# रानांतली रात

लीलावती भागवत



अणकार

शोभा शिवा फुलकार





पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन ज्योतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ, राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडों, इसवी,

*नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान.*

# रानांतली रात

लेखक

लीलावती भागवत

अणकार

शोभा शिवा फुलकार






साहित्य अकादेमी

**Ranatali Raat** (रानांतली रात): Konkani translation by Shobha Shiva Fulkar of Leelavati Bhagwat's novel for children in Marathi
Sahitya Akademi, New Delhi (2011), ₹ Fifty


First Edition : 2011



**Published by**
SAHITYA AKADEMI

**Head Office**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices**
172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
4, D.L. Khan Road, Kolkata 700 025
Central College Campus, Dr. Ambedkar veedhi, Bengaluru 560 001

**Chennai Office**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai 600 018

ISBN 978-81-260-3123-8

Price: ₹ 50/-

E-mail : sahityaakademi@gmail.com
Website : http://www.sahitya-akademi.gov.in

**Typeset by** Madhuri Teware, Karjat and Printed by May Fair, Mumbai – 400031




# अनुक्रम

1

## व्हाळावयली घडणूक

''**पातळेश्वर** म्हणल्यायर कितें? तें एक देवूळ काय घुमटी? काय बेश्टीच देवाची मुर्ती आसतली? काय घोल आसतली? काय दोंगुल्ली? थंयच्या दोंगराच्या देंगणांनी आमकां देंवूंक जमतलें? थंय चलपा खातीर पांयवाट तरी आसतली काय?''

सकाळच्यान मीनाक पातळेश्वरा बगर कांयच सुचनाशिल्लें. उमेदी भुरग्यांच्या पंगडान दोंगराची पांयभोंवडी आयोजीत केल्ली. मीना जाल्यार उमेर्दन भरिल्लें. ताका दिसतालें की, भोंवडी म्हणल्यार सादी पिकनीक कशी जायनासतना धाडसान भरिल्ली, आंगार कांटे हाडपी अशी भोंवडी जावची. परतून मुंबय वतकच वर्गांतल्या सगल्यां इश्टिणीक भोंवडेची मजा सांगूंक जाय. आयकून तांकां म्हजो दुस्वास जातलो.

एका ल्हानशा शारांत मीनाची मावशी रावताली. मीना आनी ताची धाकली भयण स्वाती मुंबयच्यान सुटयेंत मावशेगेर आयिल्लीं. थंयच तांचीइश्टागत यमू आनी शेवंता ह्या आनीक दोगां भुरग्यांकडेन जाली. एक दीस चवगांय भुरग्यांनी पातळेश्वराचे भोंवडेर वचपाचें थारायलें. चवगय भितरलें स्वाती हें पिरायेन सगल्यांत ल्हान म्हणल्यार आसतलें धा-बारा वर्सांचें.

भुरग्या मनाच्या स्वातीक दिसलें की, भोंवडी म्हणल्यार निखटें चलून वचप सदां भशेन. पूण मातशें चडूच आसतलें.

दनपारच्या जेवणा वेळार मीनाची नदर परत परत घड्याळीच्या कांट्याचेरूच वताली. ताका केन्ना काय दोन वरां जातलीं आनी भोंवडेक भायर सरतलीं अशें जाल्लें. मावशेन लेगीत म्हणलें, ''आगो मीना, सुशेगाद जेव, पोट भरून जेव. पातळेश्वराक वतलें जाल्यार खूब चलचें पडटलें. चलूंक तुज्या पांयांक घटाय नाका?

कांय वेळान शेवंता पातळेश्वराक वचपा खातीर मीनागेर पावलें. चवदा-पंदरा वर्सांचें शेवंता त्या भुरग्यां मदीं सगल्यांत व्हड आसलें. तें त्याच शारांत जल्मल्ल्यान भोंवतणचे गांव ताचे संवकळीचे आसले तें आपल्या बांपाय वांगडा थंयच्या दोंगरांनी जायते फावट भोंविल्लें.

''येता मगो मीना?'' शेवंतान विचारलें.

''हय गो, पूण तूं एकलेंच आयलांशें? यमू येवचेंना?''

''यमूचें घर सकयले पाळणींत वाटेरूच आसा. आमी वतना ताका उलो मारूया''. शेवंतान म्हणलें.

''बरें तर, चल स्वाती, येता गे मावशे आमी.''

''मीना, आगो उदका बाटली घेतल्या मगो? आनी भेळीचो पुडो, पोती सगळें घेतलां मगो? स्वाती ल्हान आसा. ताका सारकें सांबाळून व्हर.'' मावशेन म्हणलें.

''सगळें घेतलां गे मावशे, तूं कसलोच हुसको करूं नाका.'' मीनान म्हणलें.

शेवंता, स्वाती आनी मीना तिगांय गांवचे वयले पाळणींतल्यान वचूंक लागलीं. यमू तांचीच वाट पळयतालें. आवयक सांगून तेंय तांच्या

सांगातान चलूंक लागलें. ताच्या हातांत चार बाभळीच्यो बडयो आसल्यो.

''ह्यो घेयात एकएकलें हातांत धरात.''

''आवयस, यमू ह्यो बडयो कसल्यो गो?'' स्वातीन बडयो हातांत घेत विचारलें.

''आगो हांकां बडयो म्हणिनात, ते बाभळीचे फोक.''

''बाभळीचे? तशें जाल्यार तांकां कांटे खंय आसात गो?''

''आगो, ते कांटे आमच्या हाताक तोंपतले म्हणून ते हांवें पयलींच तासून उडयले.''

चवगांय पातळेश्वरा वटेन चलूंक लागलीं. गांवांतल्यान वतना शाळेंतल्यो आनी घरच्यो गजाली चालूच आशिल्ल्यो. पूण आतां गांव सोंपून तीं उकत्या मळार पाविल्लीं. चारूय दिशांनी झाडां, फुलां, सवण्यांचो आवाज आनी कुडीक तरतरी हाडपी वारो. वतूय व्हडलेंशें नाशिल्लें. मळबांत कुपां आशिल्लीं. पूण वारोय येतालो. सगलीं जाणां खोशयेन खबरो मारीत मजेन चलतालीं.

''मीनाताई, तें पळय दावे वटेन केदें व्हडलें हळडुव्या रंगाच्या फुलांचें पोरसूं'', स्वातीन म्हणलें.

''आगो स्वाती, तें पोरसूं न्हय! तें तायखिळ्याचें शेत,'' यमून स्वातीक समजावन सांगलें.

''शेत? हाका शेत म्हणटात जाल्यार मागीर हीं इतलीं फुलांचीं झाडां कित्याक तर?''

''तायखिळो वखदी आसता. तो वखदाक उपकारता म्हूण ताचीं कितलींशींच शेतां रोयतात. तांचीं तीं हळडुवीं फु लां आसात न्हय, तांकां वेगळोच वास येता. तीं कोडू आसतात. तीं वखदी म्हूण लोक ह्या

फुलांची भाजीय करून खातात.'' यमून म्हणलें.

''फुलांची आनीक भाजी?'' स्वातीन अजापान विचारलें.

''हय, आमच्या गांवगिऱ्या वांठारांनी म्हस्काच्या फुलांची, अगस्त्याच्या फुलांची, कुडाच्या फुलांची अशा तरेकवार फुलांची भाजी करतात,'' यमून म्हणलें.

''स्वाती तुजे मुंबय फकत कोबी फ्लॉवराची एकूच फूल भाजी म्हूण वापरतात न्हय गो?'' शेवंतान फकांडां केलीं. शेवंताचीं उतरां आयकून सगलीं जाणां हांसूंक लागलीं.

''आगो मीना, तुजे मावशेन तुका आमच्या सांगाता धाडलें बरें मगो?'' यमून म्हणलें.

''आगो, ती वचूंक दिनाशिल्ली. पूण हांवें पयलींच भाऊक तयार केल्लो ताणें मावशेक समजायली. हांव एकलेंच वचना, म्हज्यां सांगाता तूं आनी शेवंता आसा. आनी हांगा थंय वचनासतना सरळ पातळेश्वर पळोवन काळोख जावचे पयलीं घरा येतलें म्हूण उतर दिलां. ताका लागून आयज येवंक मेळ्ळें.''

''हांगा थंय म्हणल्यार? फकत पातळेश्वर पळोवपाचो आनी आयलां त्याच पावलांनी परतुपाचें? मागीर हे भेळीचे पुडे आनी हीं कागदां कित्याक घेतल्यांत?'' शेवंतान विचारले.

''म्हणल्यार आनीक खंय वचपाचें तर आमी शेवंता?'' मीनान म्हणलें.

''आगो, आमी पातळेश्वर दोडीत देंवून पळोवपाचें आनी मागीर दोडीच्या सकयले वटेन व्हाळाचे देगेर वचपाचें. हातपांय धुवपाचे आनी देगेर बसून सुसेगाद भेळ खावपाची आनी उदक....''

''व्हाळाचें उदक-बिदक पियेवपाचें ना गो बाये! बादलें जाल्यार? ही पळय उदकाची बाटली मावशेन दिल्या!'' स्वातीन बाटली दाखयत म्हणलें.

''ती थंयच आसूं दी तुज्या खांदाक लांबत. हांगाचे व्हाळाचें उदक बादना. वागूय सदांच व्हाळाचेर येता आनी थंयचें म्हेळें उदक पियेवन वता. शेवंतान स्वातीचीं फकांडां करीत म्हणलें.

''वाग! स्वातीन किळांच मारली.

''वाग येता त्या व्हाळाचेर आमी वचपाचें? सदांच येता तो थंय?''

''आगो, सदांच येना. केन्नाकेन्नाय येता. तो आयलो जाल्यारूय आमकां कांयच करचो ना. न्हय गो शेवंता!'' यमून म्हणलें.

''हय तर, त्या दिसा अशींच आमी व्हाळाचेर गेल्लीं. आलतडी आमी बशिल्लीं जाल्यार तेवटेन पलतडी बिबटो वाग आयलो. ताणें आमचें वटेन पळयलें. परत मान सकयल घालून उदक पियेलो आनी आयिल्ले वटेन चलत रावलो.'' शेवंतान म्हणलें.

''हय गो तें खरें, पूण एक मात मतींत धर, आमकां बाबान सांगिल्लें तशें आमी सगलीं ओग्गी बसून रावलीं म्हूण वाग गेलो. असो वाग दिसल्यार कसलोच आवाज करपाचो ना. हातांत शस्त्र आसल्यार उखलपाचेंय ना. म्हणल्यार वाग कांयच करिना.'' यमून आनीक विस्कटावन सांगलें.

''तो बरें पोटभर खावन फकत उदक पियेवंक येता, पोटभरल्यार कित्याक म्हण आमचे वाटेक वतलो तो? ताचे वाटेक कोणूय गेल्यार मात तो...'' शेवंतान म्हणलें.

''आवयस! वागाचे वाटेक कोण वतलो?'' मीनान म्हणलें.



''जाणा मगो, आमचे मीनाताई, तेरा फूट लांब उडी मारता. वागाची बारा फूट आसता खंय. म्हणल्यार वागा परस चड जाली न्हय गो?'' स्वातीन व्हडल्या गर्वान म्हणलें.

''पूण आमी सगलीं धांवपांत चॅम्पियन आसूंक नाका? तेन्ना वाग दिसलो जाल्यार आमी ताचे वाटेक वचपाचें ना.'' शेवंतान म्हणलें.

आतां तांचें उलोवप बंद जाल्लें. तांकां आतां दोंगर चडपाचो आनी देंवपाचो आसलो. परत आनीक एक दोंगर चडप आनी देंवप. मागीरूच तीं पातळेश्वराक पावपाचीं आसलीं. ही भोंवडी म्हणल्यार सामकी पुरो जावपाची. तितलीच वाट चलून परत येवप म्हणल्यार आनीक त्रासाचें.

तीं आतां दोंगर चडूंक लागलीं. दोंगरांतल्यान पांयवाट आशिल्ली. पूण ती तितले पुरतीच. दोंशीं झाडां झोंपां वाडिल्लीं. तांचेर सपासप हातांतले फोक आडवे तिडवे मारतकच पिकिल्लीं पानां झडटालीं तितलीच वाट विसकळ दिसताली. झोंपांतल्यान ल्हवूच सुर्याचीं किरणां चकचकतना दिसतालीं. पांयां खाला पानांचो सरऽऽसरऽऽ करून आवाज जातालो.

''ए मीनाताई, ती पळय चानी कशी तुरतुरीत झाडार वयर चडली.''

''स्वाती, वयर पळय, आनी मीना तूं भेळेची पोती घट्ट धर. मारुतीचे नातू पणटू झाडार बसून झोंपय मारपाक पळयतात.'' यमून म्हणलें.

झाडाच्या खांदयांचेर माकड बशिल्ले दिसताले. तांच्यो लांबचे लांब शेंपड्यो खांदयां वयल्यान सकयल हुमकळटाल्यो. ते मान वांकडी करून ह्या भुरग्यांक एकसारके तेळीत आसले. अदमास पावूण दोंगर

मजेमजेनूच चडून जालो.

''आवय गे ... मीना ताई... ''

''कितें गो स्वाती?''

''आगो हें पळय! म्हज्या पांयांक उजो पेटिल्ले भशेन जाता आनी खोरजता. आवय गे...'' स्वातीन म्हणलें.

''आवयस! कितलो तांबडो जाला तुजो पांय आनी सुजलाय बी. अशें अचकीत कितें जालें गो? कोणूय चाबूंक ना मगो? सोरोप बी?'' मीनान भियेवन ताचो पांय हातांत धरून पळयत म्हणलें.

''आस्तीक आस्तीक काळो दोरो, आस्तीक आस्तीक काळो दोरो.'' दोळे धांपीत यमून म्हणलें.

''कितें म्हणलें गो यमू?'' मीनान विचारलें.

''कांय ना गो, सोरोप म्हणलो म्हणचे आमची आई अशेंच दोनदां म्हणटा, तेंच हांवें म्हणलें.''

''आवय गे...'' स्वाती फ ट्ट करून सकयल बसलें आनी आपलो पांय फाफडूंक लागलें.

''पळोवया गो''... शेवंतान ताचो पांय वयर उखलून पळयलो आनी म्हणलें, ''यमू, तो खरवतीचो पालो काडून हाड पळोवया. तो पळय थंय आसा.'' यमू थंयचो पालो तोडूंक लागलें.

''कितें जालां गो शेवंता? कोण चाबलो ताका? सोरोप चाबूंक ना मगो? मिनान विचारले.

''ताका चाबला, पूण सोरोप न्हय. कुसुंडो चाबलो. ताणें तोपिल्लीं ताचीं कुसां पायां भितर गेलीं आनी पांय असो जालो. खरवतीचो पालो पांयाक घासतकूच कुसां पडटलीं.'' शेवंतान म्हणलें.

यमून हाडिल्लो खरवतीचो पालो शेवंतान स्वातीच्या पांयाक घश्टिलो. त्या खरखरीत पाल्याक दसून कुसुंड्याचीं कुसां पांयांतल्यान भायर आयलीं आनी चुरचुरतालें तें मातशें उणें जालें.

''मीना तुजो लेंस दी गो मातसो'', शेवंतान मीनाक म्हणलें. मीनान दिल्लो लेंस शेवंतान सगल्यांचे तकलेर पोशेलो. दोळे जळटाले म्हूण शेवंतान सकाळींच माथ्याक खूब तेल थापिल्लें. सगल्यांच्या केंसांच्या तेलान लेंस बरोच तेलकट जाल्लो. शेवंतान तो स्वातीच्या पांया वयल्यान ल्हवू ल्हवू ओडलो. उरिल्लीं सगलीं कुसांय त्या तेलकट लेंसाक दसून झडलीं. ताणें तो लेंस तसोच झिलींनी शेंवटून उडयलो. स्वातीक आतां खूब बरें दिसतालें. पूण ह्या बोवाळांत अशीं तशीं पंदरा-वीस मिणटां गेल्लीं. आतां मात तीं कांयच उलयनासतना उरिल्लो दोंगर चडूंक लागलीं.

दोंगराच्या माथ्यार पावतंकच पावसाचे कांय थेंबे तांच्या आंगार शिंपडले.

''आगो पावस आयलो! आतां कितें करपाचें? झाडा पोंदां बसुया? मीनान चिंतेस्त जावन म्हणलें.

''आगो मीना, हो आडयाळो पावस. अचकीत येतलो भूर्ऽऽ करून आनी तसोच सूर्ऽऽ करून वतलो. ताची चिंता करूं नाका. आतां तर वारोय व्हांवूंक लागलो. तो आमकां सकयल वचपाक बरो. वाऱ्या सांगातान धूकलत धूकलीत वतलीं आमी,'' शेवंतान म्हणलें.

शेवंतान म्हणिल्लें तशेंच जालें. दोंगराची देंवती काडटना वारोच तांकां धुकलत घेवन वतालो. तांकां चलपा देंवपाचें पडनाशिल्लें. तीं आपसुकूच वाऱ्याच्या नेटार धुकलत वतालीं.

दोंगराची देंवती सोंपोवन आतां तीं सकयल दोंगराच्या मुळसाकडेन भुंयारांत पाविल्लीं. सामकार काळो कुळकुळीत पातळेश्वर दिसतालो. शांत, थंड. तशें थंय देवूळ बांदूंक नाशिल्लें. पूण दोंगराचे सैमिक बांदावळींत एक सोबीतशी आकर्शक गर्भकूड तयार जाल्ली. थंयच पातळेश्वराच्या आंगार दावे वाटेन लंवडून राविल्ल्या पारजतान फांतोडेरूच आपल्या फुलांनी देवाक भरिल्लो. तीं धवींफुल्ल फुलां आतां मातशीं बाविल्लीं. तरीय तांचो वास चारूय दिशांनी फांकिल्लो. कोणूय नास्तीक मनीस देवाक भजतलो आसलो. अशें हें हांगाचें सोबीत आनी गूंग करून सोडपी वातावरण आशिल्लें.

चवगांयनी कळत नकळत दोळे धांपून देवाक हात जोडले. थोडो वेळ कोणूच कांयच उलयली नात. मागीर अचकीत शेवंता म्हणूंक लागलें.

''मीना, परिक्षेंत पयल्या वर्गात पास जावंक जाय जाल्यार देवा लागीं आतांच माग. बरें, आतां आमी व्हाळार वचुंया आनी थंय देगेर बसून भेळ खावया.''

शेवंताच्या उतरांनी सगलींच भानार आयलीं. आनी पातळेश्वराक परत एकदां पांयां पडून चलपाक लागलीं. दोन अडेज फर्लांग दोडींतल्यान भायर येवन तीं चलून गेलीं आनी व्हाळाचेर पावलीं. व्हाळ सामकोच अशीर आशिल्लो. सादारण आठ-धा फूट रुंदायेचो. पूण उदक व्हांवतालें आनी खूब नितळ आशिल्लें. मीनान भेळेची पोती सकयल दवरली. स्वातीन हाडिल्लीं कागदां पसरायलीं आनी कागद वाऱ्यान उडून वचूंक जायना म्हणून ताचेर फातर दवरले. यमून कागदार भेळीचे वाटें घाले. सगलीं जाणां भेळ खावंक लागलीं. दोंगराची चडटी देंवती काडून सगल्याच जाणांक पुरो जाल्लें. तांकां कडकडून भुकूय लागिल्ली. पळयतां पळयतां भेळ नाच्च जाली. एकामेकां कडेन उलोवप, हांसप, किटकिटप हातूंत

पुरो जाल्ल्या जिवांक आतां थाकाय मेळ्ळी. सगल्यांत पयलीं यमूचें खावप सोंपलें. तें व्हाळार उदक पियेवंक गेलें. उदक पियेवंक तो सकयल देवलें आनी आयलां तशेंच परतें वयर सरून सपसप पावलां मारीत धांवनासतना बेगिबेगीन परतलें. ताका उदकांत आपलें रूप दिसलें. तेच बराबर पलतडचे धडेर कोणतरी हालतना उदकांतल्यान ताणें पळयिल्लें.

सगल्यां म्हऱ्यांत येवन ताणें आपल्या तोंडार बोट दवरून कुरवांनीच सगल्यांक ओग्गी रावपाक खुणायलें आनी व्हाळा पलतडी बोट दाखयलें. सगलीं जाणां व्हाळा पलतडी पळोवंक लागलीं.

हळडुव्याच आंगाचेर, काळेच पट्टे आनी दोन चकचकीत दोळे आशिल्ले. येद्या व्हडल्या जनावरान उदक पियेवंक मान सकयल बागयल्या खरी पूण केन्ना नदर वयर करून पळयत हाचो नेम नाशिल्लो. यमून सांगिल्लें तशेंच सगलीं जाणां पुतळ्या भशेन ओग्गी बसून पळयतालीं.

'ठोऽऽ... ठो'' अचकीत फारपेट जालो. चवगांयनी भियेवनूच आंग काडलें. तीं आवाजाच्या दिशेन पळोवंक लागलीं. आलतडीच पंदरा-वीस यार्डांचेर झिलींनी एक नेम धरिल्लें आर्म दिसलें. त्याच आर्मांतल्यान वागाचेर गुळयो सुटिल्ल्यो.

सकयल उदकांत देंविल्लो वाग मातसो आबूज जालो. ताका एक गुळी घश्टली आसुंये. तो अचकीत गुरगुरलो आनी कोणाक कितें जाता तें कळचे पयलींच जोगूल कसो पलतडच्यान आलतडी आयलो आनी कासादोराचेर ताणें उडकी मारली.

वाग आलतडी येता तें पळोवन चवगांय भुरग्यांची भियेवन गुळी जाली. घरांतल्यान शिकून आयिल्लें शाणपण खंयचे कडेन नाच्च जालें. चवगांय वाट मेळटा थंय जीव घेवन धांवत सुटलीं.

कोण खंय आनी केदो वेळ धांवलां आसतलो देव जाणा. सगल्यांत पयलीं साबुद्दीर आयलें तें शेवंता. आतां पावसूय पडूंक लागिल्लो. केन्ना मळबांत काळीं किट्ट कुपां येवन पावस पडूंक लागलो तें धांवपाच्या नेटार कळ्ळें लेगीत ना. पूण आतां शेवंता मदींच रावलें. तेन्ना ताणें पळयले की तें आख्खें भिजिल्लें.

ताणें चारूय दिशांनी आपली नदर भोंवडायली. व्हाळ, पातळेश्वराचो दोंगर, भुंयार हातूंतलें कितेंच ताचे नदरेक पडनासलें. चारूय दिशांनी व्हडले व्हडले रूख आशिल्लें.

तें अटंग्या रानांत पाविल्लें. मान वयर करून रूखां मदसुनूच ताणें पयस पळोवपाचो यत्न केलो. कितेंच वळखीचेंशें दिसलेंना. सामकार एक पांयवाट गेल्ल्याची दिसताली. आपूण रानांत शेणलें म्हणपाचें शेवंताच्या आतां लक्षांत आयलें.

आतां तीं तिगांय खंय पावलीं आसतलीं काय? यमूचो व्हडलोसो भंय ना. पूण मीनाक आनी स्वातीक हो वाठार नवो. खंय गेलीं आसतलीं तीं? वागान तांकां खावंक बिवंक ना मूं?....

''ना... ना....''. शेवंता आपले भितरूच बडबड्टालें. खीणभर ताणें आपल्या दोनांय हातांनी दोळे धांपले. ताका रडूंक आयलें. पूण ताणें स्वताक समजायलें.

''मीना... स्वाती... यमू.'' तें एकसारकें उलो मारीत तांकां सोदूंक लागलें.

पावसाचो नेट आतां उणो जाल्लो. शेवंता धांवून धांवून थकिल्लें. तें हळूहळू चलत उलो मारीत मुखार मुखार वतालें.

''मीना... स्वाती... यमू''.

''शेवंता...'' पयसुल्ल्यान आवाज आयलो अशें ताका दिसलें. आवाजाच्या दिशेन ताणें नदर भोंवडायली. पयस एका रुखा तळा दोन आकृत्यो दिसल्यो. त्यो हात वयर करून ताका आफयताल्यो.

''मीनाच आसतलें तें अशें शेवंताक दिसलें. तें तुरतुरीत चलत तांचे म्हऱ्यांत गेलें. मीना आनी स्वाती एकामेकाक घट्ट धरून त्या रुखा तळा बशिल्लीं. शेवंता म्हऱ्यांत पावतकच दोगांयनी ताका घट्ट वेंग मारली.

''यमू खंय आसा?'' मीनान विचारलें?

''म्हाका मेळूंक ना. आमी सगलींच धांवत सुटली आनी मागीर कोण खंय पावलें कळ्ळेंच ना. म्हाका जाल्यार तुमचो सामकोच हुसको जाल्लो. पातळेश्वरूच म्हाका पावलो देखून तुमी म्हाका मेळ्ळीं.'' शेवंतान म्हणलें.

अजुनूय पावस शिरशिरतालो. सांज जायत वताली. सूर्य अस्तंतेक वचूंक नासलो. तरी पूण सरभोंवतणच्या दाट रुखाक आनी काळ्याकिट्ट कुपांक लागून चडूच काळोख जाल्ले वरी दिसतालो.

''यमू खंय आसतलें गो?'' मीनाक परत ताची याद येवंक लागली. बाबडें शेवंता, तें कितें सांगतलें? तें ओग्गी रावलें. पावस वतलो हाची वाट पळयत तिगांय रुखा पोंदा थंडेन कुडकुडत बसून रावलीं.





# 2

## खोंपींत कितें घडलें?

**अर्दें**-पावूण वर अशेंच गेलें आसतलें. मागीर पावस बंद जालो. मळब नितळ जालें. आतां इल्लो इल्लो उजवाड जाल्ले भशेन दिसतालो. फुडें एक पांयवाट दिसली.

''मीना आता आमी या मगो?'' शेवंतान म्हणलें.

''पूण आमी खंय वतलीं शेवंता?''

''हें पळय, म्हजो पप्पा म्हणटालो, वाट चुकलीं जाल्यार सामकार दिसता ते वाटेन चलत रावपाचें. केन्ना ना केन्ना फुडें रस्तो मेळटलोच.''

''तशें जाल्यार चल या,'' मीनान म्हणलें. तूं सांगाताक आसतना म्हाका कसलीच भिरांत दिसना. पूण हें स्वाती....

''मीनाताई, तूं आनी शेवंता सांगाता आसतना म्हाकाय कसलीच भिरांत दिसना.'' स्वातीन निर्भयतेचो आव हाडीत म्हणलें.

तिगांयचे कपडे चिप्प भिजिल्ले. तीं शिंयान कुडकुडटालीं. शेवंतान आपली भिजिल्ली साडी हातान पिळ्ळी. तरीय वली जाल्ल्यान ती पांयांक दसताली. मीनाची बॅलबॉटम नॉयलॉनाची आशिल्ल्यान चड भिजूंक नाशिल्ली. पूण ताणें घातिल्ले टी-शर्ट वलें जावन आंगाक दशिल्लें. स्वातीच्या कपड्यांची तीच गत जाल्ली. पूण कपड्यांचेर तांचें

लक्ष नाशिल्लें. दिसता ते वाटेन वचून एकदांचें रानांतल्यान भायर पडपाचें हो एकूच विचार तांचे तकलेंत घोळटालो. पातळेश्वराक वचपाक भायर सरतना जी उमेद तांच्या तोंडार दिसताली ती आतां नाच्च जाल्ली. सगल्यांचीं तोंडां पडिल्लीं. वारोय व्हांवपाचो बंद जाल्लो. सगळ्यांक किण्ण अशें वातावरण जाल्लें. वल्या पानांर पडटल्या पावलांचो आवाज चप चप करून येतालो तितलोच. पावस गेल्ल्यान आतां सुकणीं घोंटेरांतल्यान भायर सरून आपलीं वलीं जाल्लीं पांखां फाफुडटालीं. मदींच एक कावळो कांव कांव करून आड्डतालो. कावळ्याचो आवाज आयकूनं तिगांयनी आंग काडलें.

तीं बरोच वेळ चलत रावलीं. आतां रान सोपून तीं उकत्या मळार पाविल्लीं. तिगांयकूय सूंऽऽऽ जाल्लें.

आतां तीं मेकळो स्वास घेवंक लागलीं. शेवंतान सरभोंवतणीं नदर भोंवडायली आनी अचकीत ताका सामकार कितें तरी दिसतालें''.

''मीना, तें पळय थंय कितें तरी दिसता''.

''खंय गो?''

''ती पळय खोंप कशी दिसता न्हय?''

''खोंप? हय गो हय! खोंपूच ती''.

''तशें जाल्यार आमी आता थंयच या''.

''आगो, पूण ती खोंप कोणाची आसतली गो?''

''कोणाचीय आसूं दी. आमी थंयसरूच वचुया. मातसो विसव घेवया आनी परत या. मागीर रस्तोय मेळटलो आमकां घरचो. पांयूय चलून चलून दुखूंक लागले,'' शेवंतान म्हणलें.

''खरेंच मीनाताई, आतां म्हाका एक पावल लेगीत चलूंक जावचें

ना. आमी आतां ते खोंपींन वचून मातसो विसव घेवया. शेवंतान म्हणलें तशेंच करुंया,'' स्वातीन म्हणलें.

तिगांय खोंपीचे दिशेन वचूंक लागलीं. मातसो वेळ सुसेग घेवंक मेळटलो हे आशेन तीं झपझप करून चलूंक लागलीं.

तीं खोंपी सामकार येवन उबीं रावलीं. उकत्या मळार कोणूच दिसनाशिल्लो. दिसताली ती फकत एकसुरी खोंप. खोंपींत वचून विसव घेवया अशें परत परत सांगतालें तें शेवंता लेगीत मातसो वेळ खोंपी भितर सरपाक अनमनलें. आतां भितर वयचें कांय वयचें न्हय हे चिंतेंत तें मातसो वेळ भायरूच उबें रावलें. मीना आनी स्वाती ताका पळयत उबीं राविल्लीं.

''तुमी दोगांय हांगाच उबीं रावात. हांव पयलीं खोंपींत भितर वचून पळोवन येतां,'' शेवंतान म्हणलें. ''नाका गो बाये, हांव तुका एकल्याकूच भितर वचूंक दिवचें ना. हांवूय येतां तुज्या सांगातान भितर.'' मीनान म्हणलें.

''आनी मीनाताई हांव भायर एकलेंच रावूं? म्हाका भंय दिसता.'' स्वातीन भियेवन म्हणलें.

''आमी तिगांय वांगडाच भितर वचुया,'' शेवंतान म्हणलें.

तिगांय एकामेकांचे हात धरून वांगडाच खोंपींत भितर सरलीं. खोंपीक दार आनी जनेलूय नाशिल्लें. तिनूय वटांनी मातयेच्यो शेणान सारयिल्लो वणटी आसल्यो. जाल्यार फुडलें अर्द उकतेंच आसलें. उकत्या अर्दांतल्यानूच तिगांय भितर गेलीं.

भितर वतकच शेवंतान मीनाक आनी स्वातीक थंयच उबें राव अशें कुरवांनीच सांगलें आनी तें खोंपींत कोण आसा काय हाचो अदमास

घेवंक लागलें. चारूय दिशांनी बारीक नदर भोंवडायली. पळोवंक गेल्यार काळखांक लागून कांयच दिसनाशिल्लें. पूण शेवंताचे शिटूक नदरेन ताडलें, खोंप रितीच आसा. खोंपींत कोणूच ना हें पळोवन तें तशेंच दोन पावलां फाटीं सरून मीनाच्या आनी स्वातीच्या हाताक घट्ट धरून मुखार गेलें. तिगांय खोंपीचे वणटीक तेंकून बसलीं. मीनान आनी स्वातीन घब्ब करून जमनीर घालून घेतलें. आतां तांच्या आंगांत उबीं रावपा इतली शक्त उरूंक नाशिल्ली.

एकामेकांच्या खांदार तकली दवरून तिगांय मातसो वेळ तशींच बसून रावलीं. आतां पावस पडपाचो थारिल्लो. तरीय आंगावयल्या भिजिल्ल्या कपड्यांक लागून ती तिगांय कुडकुडटालीं. दांत एकामेकांक आपटताले. एके वटेन शिंयान जीव कुडकुडटालो जाल्यार दुसरे वटेन तीं धांवून धांवून थकिल्लीं. आतां पोटांत भुकेन कावळे रडटाले.

''शेवंता, आतां कितें करपाचे आमी?'' मीनान विचारलें.

''रातभर हांगाच रावचें पडटलेंशें दिसता.'' भायल्यान नदर मारीत शेवंतान म्हणलें.

''खोंपींत रातभर रावप?'' स्वाती रडूंक लागलें.

''अशें पिश्या भशेन कितें रडटा गो? शाणें मगो तूं? आतां भायर गुप्प काळोख आसा. रात जाल्या. आतां सकाळ जाय मेरेन हांगा रावले बगर दुसरो पर्याय ना,'' शेवंतान स्वातीक समजायत म्हणलें.

''स्वाती, आतां मात लेगीत भियेवं नाका. तूं स्कावट गायडाच्या कॅम्पाक गेलां अशें समजुपाचें आनी रावपाचें,'' मीनान स्वातीक धीर दीत म्हणलें.

''हांव भियेना, हांव रावतलें,'' स्वातीन नेटान म्हणलें खरें पूण

ताचो आवाज अजून रडकुरो आशिल्लो. तें सगल्यांत ल्हान आशिल्ल्यान ताचें तें भियेवपूय सैमिकूच आशिल्लें. तशें पळोवंक गेल्यार मीना तरी खंय व्हडलें आशिल्लें. पंदरा वर्सांचे. पूण तें व्हडली भयण जाल्ल्यान धाकले भयणीची जापसालदारकी ताचेर आशिल्ली. जापसालदारकेन ताका खुबूच धाडशी केल्लें. शेवंता तांचेच वांगडचें जावन लेगीत भियेना तें पळोवन तांचोय भंय खंयचे खंय नाच्च जाल्लो.

आतां शेवंता बशिल्ल्या जाग्या वयल्यान उठलें आनी खोंपींत भितरले वटेन कितें आसा तें बारीकसाणीन पळोवंक लागलें. काळखांत सांसपीत तें मुखार मुखार सरूंक लागलें. वणटीक धरून चलतना वणटी वयल्यान हात भोंवडायत तें मुखार सरतालें. वणटीक मदींच कोळयो आशिल्लो. त्या कोळयांत आशिल्ली वस्तू ताच्या हाताक लागली. ताणें ती सांसपून पळयली. पळयल्यार तो पेत्रोलाचो लांपयांव आशिल्लो.

''मीना, हांगा लांपयांव आसा,'' शेवंतान खोशयेन म्हणलें.

''लांपयांव म्हणल्यार कितें?'' मीनान विचारलें.

''आगो लांपयांव म्हणल्यार तेलाचो दिवो. आतां तो पेटोवंक कितें मेळटा जाल्यार पळयतां,'' शेवंतान सांगलें.

मीना शेवंताच्या फाटोफाट ताच्या आवाजाच्या दिशेन येवंक लागलें. अचकीत ताच्या पांया पोंदा कितें तरी पडलें आनी कर्रऽऽऽ असो आवाज जालो. हातान काडून पळय जाल्यार फस्क.

''शेवंता, म्हाका फस्क मेळ्ळें. मीनान खोशयेन आड्डत म्हणलें. फ स्कांत चार-पांच काडयो आसल्यो.

''फस्क?'' जावं बाये, देवूच पावलो आमकां. म्हाका लांपयांव मेळ्ळो जाल्यार तुका फस्क. आतां काळोख नाच्च जातलो,'' शेवंतान

खोशयेन म्हणलें.

शेवंतान मीना सामकार लांपयांव धरीत म्हणलें, फस्काची काडी मार आनी लांपयांव पेटय.

मीनान फस्काची एक काडी काडून फस्कार माल्ली. सुर्रऽऽर करून आवाज करीत काडी पेटली. पूण ती रोखडीच पालवली. ताणें परत एकदां आनीक एक काडी काडून तशींच सांसपीत सांसपीत पेटयली. एका हाताचो आडोस केलो. आतां काडी बरी पेटली. शेवंतान हातांत धरिल्ल्या लांपयांवाचे वातीक मीनान पेटिल्ली काडी लायली. लांपयांवाचो उजवाड सगले खोंपींत पडलो. तिगांय जाणां आतां खोंपी भितर नियाळपाक लागलीं.

''आ...'' स्वातीन किळांच मारली.

''किते जालां गो? मीनान भियेवन विचारलें.

''थंय सामकार त्या कोनशाक पळय.''

शेवंतान आनी मीनान दोगांयनी वांगडाच कोनशा वटेन पळयलें आनी आंग काडलें.

कोनशाक दोन दोळे चकचकताले आनी हळडुव्या आंगार काळे पटे दिसताले. व्हाळा कडेन पळयिल्लो वाग हांगा खोंपींत येवन बसला जावंक जाय अशें तांकां तिगांकूय दिसलें आनी तीं भियेलीं. धांवतूच तीं खोंपी भायर आयलीं. तीं भायर आयलीं खरीं, पूण वाग तांचेर केन्नाय झोंपय मारीत ह्या विचारान तांची भियेवन गुळी जाल्ली. तीं भायर आशिल्लीं त्याच जाग्यार भिरांतीन खूंट कशीं उबीं रावलीं. भायर काळोख आशिल्लो आनी रातकिडे किरकिरताले. सामकार दोन दोळे एकसारकें पळयताले. शेवंताच्या हातातल्या लांपयांवाचो उजवाड खोंपींत झळकतालो.

''शेवंता...'' मीना ताच्या कानांत कितें तरी फुतफुतलें.

''कितें गो?'' शेवंतान ल्हवूच विचारलें.

''म्हाका दुबाव मारता.''

''कसलो?''

''आमी इतलो वेळ खोंपींत आशिल्लीं. पूण त्या वागान कसलेच तरेची हालचाल कशी केलिना? आमकां मनशांक काळखांत कांयच दिसना पूण वागाक दिसता. ताणें आमकां कशीं पळयलिंनात तर?

''आगो! हय मगो, म्हज्याय लक्षांत तें आयलेंना!''

''तो मरूंक बी ना मगो?'' अचकीत स्वातीच्या मनांत विचार आयलो.

''आगो हय गो हय! येदोळ ताका गुळी लागून तो घायाळ जाल्लो आसतलो. तसोच धांवत तो हांगा आयला आसतलो आनी गुळी लागल्या म्हणून तो खोंपींत येवन मेला आसतलो,'' मीनान म्हणलें.

''अशेंच आसतलें मीना! देखून तो हालुंकूय ना आनी गुरूगुरूंकूय ना. चल म्हऱ्यांत वचून पळोवया आनी खात्री करून घेवया.'' शेवंतान म्हणलें.

''म्हऱ्यांत वचून? ना गो बाये. म्हऱ्यांत वतकच ताणें आमच्या आंगार उड्की मारली जाल्यार?'' स्वातीन भियेतूच म्हणलें.

''आगो तो जितो आसल्यार आनी ताका आमचेर उडी मारचीच आसल्यार हांगा जांव ताचे म्हऱ्यांत तो खंयूय उडकी मारतलोच. तो जर मेला जाल्यार आमचो भंय तरी उणो जातलो,'' अशें म्हणीत शेवंता लांपयांव घेवन परत खोंपींत वचूंक लागले.

''स्वाती, तूं हांगाच राव,'' अशें म्हणत मीनाय शेवंता सांगातान

कोनशा वटेन वचूंक लागलें.

तीं आतां वागा म्हऱ्यांत पाविल्लीं. वागाच्या आनी तांचे भितर सुमार एका फुटाचें अंतर आशिल्लें. पूण वाग हालना तें पळोवन तांकां दिसलें की खरेंच वाग मेला आसतलो. पूण तो चार पांयांचेर उबो रावला कसो? मेल्लें जनावर उबें रावुंकूच शकना. तें जमनीर पातळून पडटा. कितेंय जावं, आतां धाडस केल्लेंच आसा. आतां सगलो भंय पयस दवरपाचो अशें येवजीत शेवंता आनीक दोन पावलां मुखार गेलें. हातांतलो लांपयांव वागा सामकार दवरून ताका बारीकसाणीन नियाळीत रावलें. मीनाय दोळे मोट्टे करून पळोवंक लागलें. अचकीत शेवंता मोट्यामोट्यान हांसूंक लागलें.

''कितें गो? खरोच मेला गो तो शेवंता? मीनान विचारलें.

''मेला?'' आगो मरूंक तो जितो तरी आसूंक नाका? तो फातराचो वाग. आगो, आतां कळ्ळी म्हाका सगलीं भानगड,'' हांसत हांसत शेवंतान म्हणलें.

''कसली भानगड?'' आतां मीनाचोय भंय नाच्च जाल्लो. वाग फातराचो अशें कळटकच स्वातीय रोखडेंच भितर आयलें.

'हेदोळच्यान हांव हेंच चिंत्तालें. ही एकोडी खोंप हांगा कशी? आनी हें फस्क आमी पेत्रोल घालून दवरिल्लो लांपयांव. सगलें ज्युस्ताक ज्युस्त कशें? ह्या वागान सगलें सांगलें. हांवें आयकलां ही खोंप सुकड्या आदिवाशाची म्हणून,'' शेवंतान म्हणलें.

''पण आदिवासी कितें असो एकलोच खोंप बांदून रावता? तांचो तर केदो व्हडलो वाडो आसता,'' मीनान म्हणलें.

''आगो, हांगाय तांचो व्हडलो वाडो आशिल्लो. पूण सरकारान तांकां नवीं घरां बांदून दिलीं. ते सगलें पयस खंय तरी नव्या घरांनी

रावंक गेले. पूण हो सुकडो वचूंक ना.''

''कित्याक?'' मीनान अजापान विचारलें.

''आगो, तो म्हणटा म्हज्या आज्या पणज्यान हे खोंपींत पुजिल्लो व्याग्रेश्वर हांव हालोवचों ना, तो रागार जातलो. देखून सुकड्यान आपली खोंप मोडलिना. हेरांनी आपलीं घरां मोडून सगलें सामान व्हेलें. पूण ह्या सुकड्याची खोंप तशीच उरली. तो हांगा केन्नाय येता. एक-दोन दीस रावता आनी परत वता आसतलो. ती पळय ताची चूल आनी लांकडां!'' एका कोनशाक लांपयांव घुंवडायत शेवंतान म्हणलें.

''खरेंच मगो! ही खोंप आमचे खातिरूच दवरली सुकड्यान. आमी नशिबवान. पूण तो रातचो हांगा आयलो आनी आमकां आपल्या खोंपींत पळयलीं जाल्यार तो आमकां धांवडावन घालिना मगो?'' मीनाक आतां दुसरीच भिरांत दिसूंक लागली.... सुकड्याची.

''आयलो जाल्यार चड बरें जातलें. रातभर ताचो सांगात तरी मेळटलो आमकां. हांवें आयकलां तो वेगळ्याच सभावाचो पूण बरो मनीस. तो सकाळीं आमकां घरा व्हरून पावोवपाक शकता. पूण जर तो आयलोना जाल्यार ताच्या ह्या व्याग्रेश्वराचो सांगात तरी मेळटलो आमकां. आमी सुसेगाद रातभर हे खोंपींत रावया. आतां म्हाका कसलीच भिरांत दिसना!'' शेवंतान धीर दीत म्हणलें. मीना आनी स्वातीचीय भिरांत पयस जाल्ली. आतां कसलीच भिरांत ना हाची तांकां जाणविकाय जाल्ल्यान तीं तिगांय ते खोंपींत सुशेगाद बसलीं. भायर शीं आसलें. तातूंत आंगा वयले कपडे वले आशिल्ल्यान तिगांय शियान कुडकुडटालीं.

''मीना रांदनींत थोडीं लांकडां घाल आनी तांचेर लांपयांवांतलें थोडें पेत्रोल रकय. मागीर फस्का कांडी मारून उजो पेटय. खूप शीं खाता,'' शेवंतान म्हणलें.

तांणी खोंपींत सगले कडेन नदर मारली. कोनशाक थोडीं सुकीं लांकडां आशिल्लीं आनी सुकें तण आशिल्लें. तांणी लांकडां आनी थोडें तण रांदनीत घालें आनी लांपयांवातलें थोडें पेत्रोल रकोवन उजो पेटयलो. तिगांय रांदनी म्हऱ्यांत बसून हातपांय शेकूंक लागलीं. कपडेय सुकोवंक लागलीं. आंगांत मातशी ऊब आयली तशी तांकां न्हीद येवंक लागली. तांकां भूक लागिल्ल्याचीय जाणवीकाय जावंक लागली.

''मीनाताई, खुबूच भूक लागल्या मगो!'' स्वाती काकुळटेक आयलें.''

''मीना तुजे ते भेळीचे पोतयेंत.... फुडलीं उतरां शेवंताच्या तोंडांतल्यान भायर सरलिंनात. ताका याद जाली, वागाक पळोवन सगलीं धांविलीं तेन्ना मीनाय भेळेची पोती उडोवन धांविलें. भेळेची पोती व्हाळाचे देगेरूच उरली हाची मीनाकूय याद जाली. मीनान बेठोच आपल्या बॅलबॉटमाच्या बोल्सांत हात घालो. ताच्या हाताक कितें तरी लागलें. अजापान ताणें तें भायर काडलें. ताका अजून मेरेन आपल्या बोल्सांत कितें आसा हाची याद लेगीत नाशिल्ली. मावशेन भायर सरतना गरज पडत म्हूण प्लास्टीकाचे पोतयेंत घालून ग्लुकोज बिस्कुत्यांचो पुडो ताच्या पॅण्टीच्या बोल्सांत घाल्लो.

''शेवंता हें पळय कितें तें, स्वाती यो, तुका भूक लागल्या मगो?'' मीनान खोशयेन म्हणलें.

''कितें गो तें मीनाताई?''

''आगो बिस्कूत!'' आनी मीनान प्लास्टिकाचे पोतयेंतलो बिस्कुत्यांचो पुडो काडलो. वुलांची पॅण्ट आनी प्लास्टिकाचे पोतयेंत गुठलायिल्लो तो पुडो पावसांत भिजूंक पावलोना.

मीनान आनी शेवंतान दोन दोन बिस्कुत्यो खाल्यो जाल्यार स्वातीक

तीन दिल्यो. खावन जालें. पूण उदक?

स्वातीच्या खांद्याक आजुनूय उदकाची बाटली हुमकळटाली. दोंगर चडटना खांद्या वयली उदकाची बाटली सकयल पडूंक जायना म्हणून ताणें बाटलेच्या पट्याक आनी आंगा वयल्या कपड्यांक मेळून एक सेफ्टी पीन लायिल्ली. ते खातीर उदकाची बाटली सकयल पडनासतना तशीच उरिल्ली. बाटलेंत चड उदक नाशिल्लें. पूण आशिल्लें तातूंतलें तीं घोंट घोंट पियेलीं. तें घोंटभर उदक म्हणल्यार अमृत कशें तांकां दिसलें.

तरीय तान भागूंक नाशिल्ली. भायर बारीक पावस झडटालो. मीनाक भायर उदकाची पांवळी व्हांवता ती दिसली. अचकीत ताणें कितें तरी येवजिलें आनी हातांत उदकाची बाटली घेवन ती पांवळेक धरली. सगली बाटली भरतकच ताणें ती चुली म्हऱ्यांत दवरून शेवंताक म्हणलें, ''मातसो तुजो तो लांपयांव दी पळोवया.''

''कित्याक गो? हांवें तो आतांच पालयलो!''

''आसूं दी. तसोच दी पळोवया!'' मीनान लांपयांव घेतलो. पेटिल्ले चुलींत बिस्कुत्यांच्या पुड्याचें कागद पेटयलें आनी त्या कागदान ताणें तो लांपयांव परत पेटयलो. आतां तें खोंपीच्या चारूय कोनशांनी सोदूंक लागलें. सोदतां सोदतां तें व्याग्रेश्वरा म्हऱ्यांत पावलें. तो फातराचो आसा हें जाणा जावनूय तें मातशें भियेलें. निमाणें तें जें सोदतालें तें ताका मेळ्ळें.

''शेवंता, हो तोप घे. आगो, आमी स्कावट गायड कॅम्पाक गेल्लीं थंयची याद जाली. हे खोंपींत सुकडो रावता म्हणिल्लें तेन्नाच म्हाका दिशिल्लें हांगासर कसलें तरी आयदन आसतलेंच. ह्यो दोन-तीन



बिस्कुत्यो खावन आनी घोंटभर उदक पियेवन पोटाची भूक भागची ना. तेन्ना आतां ही पोटभर खीर खावपाची.''

''खीर? ती कशीं करतलीं?''

''हो तोप घे. जाय तेदोच आसा. आता ह्यो उरिल्ल्यो बिस्कुत्यो मुड्डून भितर घाल. हांव उदकाचे बाटलेंतलें पावसाचें उदक तातूंत रकयतां. आतां हो तोप ते पेटिल्ले चुलीर दवरपाचो आनी खीर शिजोवपाची.''

तांणी तोप चुलीर दवरलो. एका बारीक लांकडाच्या कुलेरान ती खीर धवळ्ळी. शिजतकच ती मातशी दाट जाली. वॉटर बॅगाच्या धांकण्याच्या पेल्यांत मीनान खीर घाली आनी स्वातीक दिली. भुकेल्या स्वातीन ती घटाघटा करून रोखडीच ताळ्या सकयल देंवयली.

मीनान परत पेलो भरलो आनी तो आपल्या तोंडा कडेन व्हेलो. तोंडा म्हऱ्यांत व्हरतां व्हरतां ताका रडूंक आयलें. ताणें तो पेलो तसोच जमनीर दवरलो. ताका हुड्क्या हुडक्यांनी रडूंक येवंक लागलें.

''कितें जालें गो मीना?''

''यमू... यमू खंय आसतलें गो? आमी हांगा ही खीर तरी पियेतात. आतांच्या ह्या खिणाक तरी आमी सुसेगाद आसात. पूण यमूचें कितें? तें कसल्या अरिश्टांत सांपडलां आसतलें काय?'' आयकून शेवंताचेय दोळे वले जाले. इश्टिणीची याद तांकां परत परत येताली. पूण आतां ह्या स्थितींत आनी ह्या खिणाक तीं कांयच करूंक शकनासलीं. वाग पळयिल्ल्याची घडणूक तें आतां मेरेन तांणी जें भोगलें त्या बोवाळाक लागून कांय खीण यमूचो तांकां विसर पडिल्लो. पूण आतां जेन्ना सुसेगाद खावपाक बसलीं तेन्ना यमूचो उगडास तांकां सतावंक लागलो. म्हऱ्यांत आशिल्ली बिस्कुत्यांची खीर तांच्या ताळ्या सकयल कशीच देंवना

जाली. शेवंताय अस्वस्थ जाल्लें. कांय खीण तीं तिगांय ओग्गी रावलीं. सरभोंवतणी किण्ण आसलें. स्वातीय खूब अस्वस्थ जाल्लें.

''हें पळय मीना, आमी सकाळीं उजवाडना फुडेंच यमूक सोदूंक भायर सरुंया. तें मेळ्ळे बगर आमी घरा वच्चीं नात.''

''हय तर, चवगांय बरीं सुशेगाद भायर सरिल्लीं आनी आतां यमू आमचे वांगडा ना तें पळोवन वायट दिसता.''

''हय गो! म्हाकाय विस्वास आसा तें मेळटलेंच म्हूण आनी तें ज्या जाग्यार आसा थंय सुसेगाद आसतलें. आमी ह्या व्याग्रेश्वराकूच गाराणें घालुंया. तशें पळोवंक गेल्यार रानांतल्या अरीश्टांक रानांतलोच देव पावता.'' शेवंतान आशेवन म्हणलें. मीनाकूय शेवंताचें म्हणणें पटलें. तिगांय कोनशाक आशिल्ल्या व्याग्रेश्वराक पांयां पडलीं. मनांतल्या मनांत ताका आंगवण केली. आतां तांचें मन मातशें ल्हवशें जाल्लें. यमू जंय आसतलें थंय सुरक्षीत आसतलें आनी तें आमकां मेळटलेंच अशें तांकां दिसलें. मनाक थाकाय मेळिल्ली पूण आतां पोटांत कावळे आड्डताले.

कांय वेळान उरिल्ली खीर तांच्यानी सोंपयली. मीनाच्या वाडदिसा खातीर आवय बदाम, पासां आनी हेर सुकीं फ ळां घालून खीर करताली ते खिरी परस ही बिस्कुत्यांची खीर आयज चड बरी लागताली. अजुनूय स्वातीचो भंय वचूंक नासलो. शेवंतान विशय बदलीत स्वातीक म्हणलें, ''स्वाती, पोट भरलें मगो तुजें? आतां त्या कोनशाचीं थोडीं लांकडां हाड आनी उज्यांत घाल पळोवया.''

''आनीक कितें शिजोवपाचें उरलां तर?'' स्वातीन विचारलें.

आतां स्वातीचो ताण मातसो उणो जाल्लो.

''आनीक कितें शिजयतले, कपल?''

''तशें जाल्यार वाडय मगो तो चुलींतलो उजो.''

''लांपयांवांत खूब पेत्रोल आसा. तोच रातभर पेटत दवरुया,'' मीनान सुचयलें.

''आगो मीना, लांपयांवाचो उजवाड आमकां मेळटलोच पूण वाग आनी हेर रानटी जनावरांचें कितें?''

''वाग...?'' परत वागाचें नांव आयकून मीना भियेलें.''

''आगो, अशें भियेंव नाका गो.. हें पळय, असो उजो रातभर जळत दवरुया. उज्याक पळोवन वाग वा दुसरीं रानटी जनावरां भियेवन लागीं येवचीं नात,'' शेवंतान ताका समजायलें.

''खरेंच? तशें जाल्यार एकेक लांकूड उज्यांत घालून रातभर उजो पेटत दवरपाचो.''

कांय खीण कोणूच कांय उलयलेंना. तिगांय एकेक लाकूड चुलींत सारीत रावलीं.

''सूं... सूं... ' स्वाती अचकीत रडूंक लागलें.

''कितें जाले गो स्वाती? शीं खाता?'' तीं आंगार वले कपडे घालुनूच बशिल्लीं म्हूण घडये ताका शीं खाता आसतलें अशें मीनाक दिसलें.

''हें पळय स्वाती, तूं ल्हान आसा आनी हांगा आमच्या तिगां बगर आनीक कोणूच ना. तुज्या आंगार आशिल्लें ते वले कपडे काड. पोंदा साय आसा ती पुरो. म्हज्या म्हऱ्यांत यो. म्हजे साडयेचो पदर सुकला. म्हजे मांडयेर तुजी तकली दवर आनी साडयेचो पदर पांगरून घे. वोग्गी न्हीद पळोवया,'' शेवंतान म्हणलें.

स्वातीक मातशी लजशी दिसूंक लागली. तें मातशें अनमनलें.

शिंयान तें कुडकुडटालें. ताणें आपलो विश्तीद काडलो आनी तें शेवंताचे मांडयेर तकली दवरून न्हिदलें. ताका शेवंता आपली आवय कशी दिसली.

एकेक लाकूड चुलींत घालता तसो चुलींतलो उजो पेटत उरतालो. शेवंता आपले मांडयेर न्हिदिल्ल्या स्वातीक थापटितालें. मीनानूय आतां आपली तकली शेवंताच्या खांद्यार दवरली. स्वाती तर सुस्त न्हिदलें. मीनाक आनी शेवंताक न्हीद कशीच येनासली. तांकां परत परत यमूची याद येवंक लागली. आनी न्हिदतलीं तरी कशीं? कोण केन्ना भितर सरत हाची शाश्वती नाशिल्ली. सकाळ जावंक आनी खूब वेळ आशिल्लो. ते मेरेन रातभर चूल पेटयत दवरूंक जाय आसली. शेवंता आनी मीना एकेक लाकूड चुलींत घालीत चुलींतल्या उज्याक पळयत जागींच रावलीं.



## 3
## बांयंतलो आवाज

**चुलींतलो** उजो पेटत दवरूंक जाय म्हणून शेवंता आनी मीना एकेक लाकूड चुलींत सारीत आशिल्लीं. झेमत झेमत कशीं तरी रात घालयतालीं. सरभोंवतणचें वातावरण शांत आशिल्लें. कसलोच आवाज येनाशिल्लो. रातीची शांतताय खूब भयानक आशिल्ली. पावस पडपाचो थांबिल्लो. रातकिड्यांचेंय रडप थांबिल्लें. सगले कडेन किण्ण जाल्लें. मदींच वाऱ्याची एक व्हाळीक येवन खोंपींत बशिल्ल्या त्या तिगांयच्या आंगाक घश्टून वताली. वाऱ्यान चुलींतलो उजोय भग्ग करून मोटो जातालो तशीं तीं दोगांय भियेवन आंग काडटालीं. परत वाऱ्याची दुसरी व्हाळीक रूखां मदल्यान विचित्रसो आवाज करीत वताली. परत सगलें वातावरण शांत जातालें.

वातावरण शांत आसुनूय एके तरेची भिरांत दोगांयची धिटाय नाच्च करून उडयताली. अचकीत तांकां कसलो तरी वेगळोच आवाज आयकूंक आयलो. तो पावलांचो आशिल्लो. धांवत येवपी पावलांचो. अशें दिसतालें कोण तरी खोंपी वटेन धांवत येता.

"शेवंता, कोण येता आसतलो गो?" मीनान शेवंताच्या खांद्याक घट धरीत म्हणलें.

''कोण जाणा,'' शेवंतान हळूच म्हणलें.

आवाज आनीक लागीं लागीं येवंक लागलो.

''सुकडोच आसतलो तो न्हय गो? तो खंयच्याय वेळार येता आसतलो हांगा.''

''हय गो तोच आसूं येता. पूण आपल्या घरा येवंक ताका धांवूक कित्याक जाय? हो कोण तरी वाग फ ाटीक लागिल्ले भशेन धांवता,'' शेवंतान म्हणलें.

''वाग?''

''हांवें बेठेच म्हणलां. वाग बीग काय ना. हांवें फकत धांवपाच्या आवाजाचें वर्णन केलां. पूण तो सुकडो आसचो ना,'' शेवंतान हळू आवाजान म्हणलें. कांय खीण तीं दोगांय तशींच ओग्गी रावलीं आनी कान दिवन आवाजाचे दिशेन पळयत रावलीं. आतां पावलांचो आवाज तांकां खोंपीचे सामको लागीं आयकूंक येवंक लागलो.

''शेवंता.''

''कितें गो म्हज्या शाण्या.''

''आगो म्हाकां दिसता आमकां सोदूंक कोणूय आयला आसतलो.''

''म्हाका दिसना कोणूय येत म्हणून,'' शेवंतान म्हणलें. ''पावलांचो आवाज येता तो फकत एकल्याचोच. आनी कोणूय सोदूंक आयल्यार एकलो येवचो ना.''

''खरें तुजें, आनी आयलोच जाल्यार असो धांवत येवचो ना. हो धांवत्या पावलांचो आवाज.'' मीनान म्हणलें.

''काळखांतशें कित्याक येतले? सोदूंक येवपी येतना बॅटरेचो दिवो नाजाल्यार लाटन घेवन येतले. आवाज करीत उलो मारीत येतले आसले.

अशे चोरयां धांवत येवचे नात.'' कोणूय सोदूंक येवपाचो विचार तांणे भायर मारलो.

''तशें जाल्यार भायर वा..... वा...'' वाग हें नांव मीनाच्या तोंडांतल्यान येना जालें.

शेवंतान ताका समजायत म्हणलें, ''आगो, वाग धांवतना मात लेगीत आवाज करिना. म्हाका दिसता कोण तरी आमचे भशेन रानांत वाट चुकला आसतलो.

यमू... यमू... बी न्हय मगो?''

तीं दोगांय कान दिवन आयकूंक लागलीं. आतां पावलांचो आवाज खोंपीचे फाटले वटेन येवंक लागलो.

''आगो, शेवंता, यमू आशिल्लें जाल्यार खोंपींतलो उजवाड पळोवन तें फुडले वटेच्यान भितर येतलें आशिल्लें. अशें फाटले वटेन वच्चें नाशिल्लें. मनीस सोडून आनीक कोणूय जावंक शकता?'' शेवंतान म्हणलें.

''मनीस न्हय? आनीक कोण जावंक शकता?'' मीनान विचारलें.

''आगो, रानांत वांस्वेल धांवलें जाल्यारूय पावलांचो आवाज असोच मनशाच्या पावलां भशेन येता,'' शेवंतान म्हणलें.

''वांस्वेल? आनी तें खोंपींन भितर सरलें जाल्यार?''

''आगो, वांस्वेल उज्या म्हऱ्यांत चुकून लेगीत येवचें ना. आमी ओग्गी बसुया पळोवया.''

उलोवप, थांबोवन दोगांय कान दिवन आयकूंक लागलीं. अचकीत 'घबांयच' करून कितें तरी उदकांत पडिल्ल्याचो आवाज आयलो. आनी मागीर कोण तरी उदकांत घुस्मटिल्ले वरी दिसलें.

''शेवंता, कोण तरी थंय सकयल पडला आसतलो.''

''खरेंच, कोण तरी पडला आनी तो उदकांत पडला आसतलो. हो आवाज उदकांत पडिल्ल्याचो,'' शेवंतान म्हणलें.

''उदकांत? खंयचें उदक? फोंडकुलांनी पावसाचें उदक सांठवल्लें आसतलें.''

''ना गो..., म्हाका आवाज वळखूंक येता. कोण तरी काळखांत धांवत येतना चुकून बांयंत पडला आसतलो. फाटल्यान खंय तरी बांय आसा,'' शेवंतान म्हणलें.

''शेवंता, यमूच बांयंत पडूंक ना मगो?''

''ना गो, तें आशिल्लें जाल्यार बांयंत पडटना आदाराक किळांच तरी मारतलें आसलें.'' शेवंतान म्हणलें.

''खरेंच, पडिल्ल्याच्या आवाजा उपरांत कसलो तरी आवाज जाल्लो पूण....'' शेवंता आयकल्ल्या आवाजाचो उगडास करीत कितें तरी येवजूंक लागलें.

''हावें घुस्मटिल्ले वरी आवाज आयकला पूण तो आदाराक आड्डल्ले वरी दिसलोना. तरीय पूण तें यमू आसलें जाल्यार...''

''हे पळय मीना, यमू म्हजीय मोगाची इश्टीण,'' शेवंतान म्हणलें.

पूण ह्या असल्या वेळार आमी भायर वचूंक शकनात. भायर काळोख आसा. भायर बांय आसा काय ना तेंय आमी नकळों.'' ताका खंय म्हणून सोदतलीं आमी?'' दोगांय कांयच करूंक शकनासलीं. हरशीं तांच्या तोंडाची बडबड चालूच आसताली. पूण आतां जीब ताळ्याक दशिल्ले वरी तीं ओग्गी आसलीं. कोणें तरी लिपचेल्यांनी खेळोवंक लावचें अशेंशें कितें जाल्लें तांच्या पातळेश्वराचे पिकनिकेचें.

तांणी चिंतलें, आतां भायर काळखांत वचप समा न्हय. तांणी थारायलें सकाळ जायसर हांगाच जागें रावप. पूण कितलेंय जागें रावपाचो यत्न केलो तरीय तांकां न्हीद आयलीच. दोगांय एकामेकाच्या खांद्यार तकली दवरून सुस्त न्हिदलीं.





# 4
# यमूची काणी

**सगल्यांत** पयली जागें जालें तें शेवंता. पावस पडपाचो थांबिल्लो. फांतोड जावन गेल्ली. हयन्हयसो उजवाड फांकिल्लो. रूखार बसून शेंवणीं चिंवचिंवतालीं. मीना अजुनूय शेवंताच्या खांद्यार तकली दवरून सुस्त न्हिदिल्लें. शेवंतान ल्हवूच मीनाची तकली सकयल दवरली आनी उठून उबें रावलें.

रातीं कोण तरी बांयंत पडिल्ल्याचो आवाज तांणी आयकल्लो. वांस्वेल वा कसलें तरी जनावर पडलां हाचो तांणी फकत अदमास लायिल्लो. पूण खरें कितें तें तांकां खबर नाशिल्लें. शेवंताक आनीक भितर खोंपींत रावूंक जायना जालें. भायर वचून पळोवचेंशें दिसलें. पूण कशें कोण जाणा, ताका भायर वचूंक धीर जायना जालो.

रातचो आवाज आयकल्ले ते दिशेन तांणें खोंपीचे वणटीच्या बुराकांतल्यान ल्हवूच भायर पळयलें. भायर पळयतानाच ताणें मोट्यान किळांच मारली. ताची ती किळांच आयकून मीना आनी स्वाती दोगांय जागीं जालीं आनी धांवत शेवंता म्हऱ्यांत आयलीं. शेवंता पळयतालें त्याच बुराकांतल्यान तांणी पळयलें आनी अजाप जालीं. खोंपीचे फाटले वटेन पंदरा-वीस फुटांचेर एक आकृती तांचे वटेन येताली. ती आकृती जनावरा भशेन चार पांयांनी चलताली. मदींच धाकटुलें भुरगें दिमखुऱ्यांनी

चलता तशें दिसतालें. तरीय पूण ती आकृती कोणाची तें तांकां सारकें दिसनाशिल्लें.

अचकीत ती आकृती मनशा भशेन दोन पांयांचेर उबी रावन चलूंक लागली. चलतां चलतां सकयल पडली. परत उबी रावली, परत पडली, परत उबी रावली.

''चल आमी भायर वचून पळोवया कितें तें.'' शेवंतान म्हणलें.

दिसता ती आकृती वाग वा वांस्वेल हांची नासून ती मनशाचीच आसा हें कळटूकच तिगांय खोंपींतल्यान भायर आयलीं. अजुनूय भायर पुराय उजवाड जावंक नाशिल्लो. पावस थांबलो तरीय मदींच मळबांत जोगलावणें मारतालें आनी सगल्याक खीणभर उजवाड पडटालो. अशेंच एकदां जोगलावणें मारलें आनी स्वातीन मोट्ट्यान ''यमू'' म्हणून उलो मारलो.

शेवंता आनी मीना यमूक वळखलीं. तिगांय यमू म्हऱ्यांत धांवत गेलीं. यमू चलतां चलतां मदींच सकयल बसलें. तिगांय यमू म्हऱ्यांत पावतात म्हणसर यमू थंयच घुंवळ येवन पडलें.

तिगांयनी यमूक उखलून खोंपींत हाडलें आनी जमनीर न्हिदयलें. शेवंतान लांपयांवांतलें उरील्लें पेत्रोल लांकडांचेर रकोवन धग करपाक चूल परत पेटयली.

स्वातीचो काडून दवरिल्लो विश्तीद मीनान उज्या वयर दवरून मातसो हून केलो आनी तें यमूचे हातपांय शेकूंक लागलें. आतां यमू सवका सवका साबुद्दीर येवंक लागलें. तें परत स्वास घेवंक लागलें. ताणें दोळे उगडले. ताका मीना आनी स्वाती दिसलीं. ''मीना'' म्हणीत ताणें मीनाक वेंग मारली. तशें मीनाक रडूंक आयलें. तांकां पळोवन

स्वातीय रडूंक लागलें.

''मीना... स्वाती... तुमी दोगांय, आनी शेवंता खंय?'' यमून सवकास म्हणलें.

मीनान सगल्याक पळयलें. चुली वशीन पळयलें. पळयल्यार थंय शेवंता नाशिल्लें. यमूक शेकपाच्या बोवाळांत शेवंता खंय गेलें तें तांकां कळ्ळेंच ना.

आतां भायरूय बरो उजवाड जाल्लो. स्वातीची भिरांत गेल्ली. तें तशेंच शेवंताक पळोवंक भायर आयलें. खोंपीचे फाटले वटेन शेवंता मातयेंतल्यान कितें तरी उस्तून काडटालें.

''कितें गो शेवंता मातयेंत उस्तिता?'' स्वातीन म्हणलें.

''हीं कांट्या कणगां. यमूक भूक लागल्या आसतली. देखून हांव तीं उकडून ताका दितां. तीं रुचीक आनी पुश्टीक आसतात,'' शेवंतान स्वातीक समजायलें.

शेवंतान कांट्या कणगां पावसाच्या उदकान बरीं धुयली आनी भितर व्हेलीं. भितर व्हरून तोपांत घालून चुलीर शिजोवंक दवरलीं.

''यमू सामकें भुकेलां आसतलें. ताका हीं आवडटलींच.'' मीनान म्हणलें.

''खरेंच गो, म्हाका खूब भूक लागल्या.'' ल्हव आवाजांत यमून म्हणलें.

''आगो यमू, तूं आतां खंयच्यान आनी कशें आयलें?''

''बांयंतल्यान''.

''बांयंतल्यान? बांय खंय खोंपीचे फाटले वटेन आसा?'' मीनान अजापान विचारलें.

रातचो उदकांत किते तरी पडिल्ल्याचो आवाज आयिल्लो हाची ताका याद जाली.

''बांयंत तुवें उडकी कित्या खातीर मारली?'' शेवंतान म्हणलें.

''उडकी? आगो मुद्दम' कित्याक उडकी मारतलें हांव? हांव चुकून ते बांयंत पडलें!''

''यमू? तूं बांयंत पडलें खरें, पूण बुडलेंना कशें? स्वातीन अजापान विचारलें.

''आगो म्हाका पेंवपाक येता... हें पळय हांव तुमकां सगली घडिल्ली गजाल सांगता.''

''मागीर सांग सगलें. पयलीं हीं कांट्या कणगां खा.'' शेवंतान यमू सामकार कांट्या कणगां दवरीत म्हणलें.

कुडीक गरम कपड्यान शेकून मातशी ऊब आयिल्ली. कांट्या कणगां खावन मातशी तरतरी आयली. आनी आतां ताका इश्टिणीय मेळिल्ल्यो. यमून घडिल्ली गजाल सांगपाक सुरवात केली.

''आगो, त्या वागाक पळोवन आमी धांवलीं. हांव तर एकसारकें धांवतूच रावलें. म्हाका दिसलें त्या वागान म्हाकाच पळयलां आसतलें आनी तो फ कत म्हज्याच फ ाटल्यान धांवता. हांवें तुमी कोण येतात काय येनात हें लेगीत पळयलेंना आनी फ ाटींफु डें पळयनासतना धांवत सुटलें. धांवत पावसांत भिजत रानांत मेळटा ते वटेन धांवत रावलें.''

''तशें जाल्यार तूं आमकां कशें दिसूंक ना?'' शेवंतान विचारलें.

''म्हाका दिसता हांव उरफाटे दिशेन धावलां आसतलें. खूब वेळ हांव धांवत आशिल्लें आनी अचकीत म्हाका रानांत एक देवूळ दिसलें. फाटींफुडें चिंतिनासतना हांव त्या देवळांत भितर सरलें. गर्भकुडींत

वचून बसलें. थोडो वेळ थंयच बसून विसव घेतलो. गर्भकुडींतल्यान भायर पळयलें. वाग खंय दिसता काय म्हणून. ना तें पळोवन म्हजो भंय मातसो उणो जालो. तशेंच देवळांतल्यान भायर येवन हांव खंय पावलें तें पळोवचें अशें दिसलें. भायर काळोख जातालो. तुमचोय हुसको जाल्लो. तुमीय धांवत हांगाच खंय तरी पावल्यांत आसतलीं अशें दिसलें आनी गर्भकुडींतल्यान भायर येतलें म्हणून पावलां मात उखल्ल्यांत आनी अचकीत .... देवा म्हज्या....'' उगडासानूच यमूच्या आंगार परत कांटो आयलो. उलयतां उलयतां यमूचें आंग शिरशिरलें.

''कितें जालें गो यमू? आनी तुवें थंय कितें पळयलें?'' मीनान भियेवन विचारलें.

''हांव गर्भकुडींतल्यान भायर येवपाक पावल मात घालां, इतल्यान सामकारसून तीन काळ्यो किट्ट आनी धडधाकट आकृत्यो देवळांत भितर सरतना म्हजे नदरेक पडल्यो. आमी काणयांनी आकांतवादी, चोर, दरोडेखोर हांचीं वर्णनां वाचल्यांत. तशेच ते आसले. हांव गर्भकुडीच्या एका कोनशाक काळखांत लिपलें. काळीज भंयान खपखपतालें. गर्भकुडींत भितरल्यान तसो काळोखूच आशिल्लो. तरी पूण भिरांत दिसताली की देवाचें दर्शन घेवंक ते भितर सरले आनी तांणी देवाक दिवो लायलो आनी त्या उजवाडात म्हाका पळयलें जाल्यार?''

शेवंता, स्वाती आनी मीना तिगांय स्वास अंदून दोळे मोटे करून आकयतालीं. तांकां तांच्या दोळ्यां सामकार खरेच आकांतवादी दिसताले.

''आवयस! मागीर कितें जालें? शेवंतान विचारलें.

''मागीर कितें? हांव मनांतल्या मनांत गर्भकुडींतल्या देवाची प्रार्थना

करूंक लागलें. देवा तांकां हांगा येवपाची बुद्द दिवं नाका आनी देवान म्हजें आयकलें. ते तिगूय गर्भकुडीचे भायले वटेन बसले. तांणी भायर एक कवदो पेटोवन दवरिल्लो. त्या कवद्याचो उजवाड तिगांयच्या तोंडार पडटालो. काळोख आशिल्लो म्हणून हांव तांकां दिसनाशिल्लें. पूण त्या कवद्याच्या उजवाडान तांचीं तीं भिरांकूळ तोंडां... काळीं काळीं कपलां आनी त्या कपलांचेर थापिल्लो तांबडो गुलाल दिसतालो. हाताक भुजा सकयल दोरे बांदिल्ले,'' यमू सांगीत आशिल्लें.

तिगांय कान दिवन आयकतालीं. आयकून तिगांय भुरग्यांची भियेवन गुळी जाल्ली. यमू फुडें सांगूंक लागलें.

''दोगांयच्या भेंडांक चकचकीत धारेचे व्हड कोयते लोंबकळटाले. जाल्यार एकल्याच्या हातांत कुराड आशिल्ली. त्या कवद्याच्या उजवाडान तांचीं पातीं सामकीं चकचकतालीं. म्हाका दिसता ते तिगूय खंय तरी दरोडो घालूंक वचपाच्या बेतान आशिल्ले. आनी ते परत ह्याच देवळांत मेळपाचे आशिल्ले. हें तांच्या उलोवण्या वयल्यान कळटालें.''

यमूक तो सगलो उगडास जालो आनी ताचें आंग भिरांतीन परतून एकदा शिरशिरलें. परत यमू सांगूंक लागलें.

''कांय वेळान ते तिगूय उठले आनी भायर सरून चलत रावले. ते दोळ्यांआड जायसर हांव ओग्गी बसून रावलें. जाणा स्वाती म्हाका शींक येताली पुणून हांवें तीं ते पयस वचसर दामून धरली.'' अशें म्हणटनाच यमून दोन शिंको काडल्यो. अशें दिसतालें की दरोडेखोर आसतना दामून दवरिल्ल्यो त्यो शिंको तें आतां काडटा. हें पळोवन स्वातीक हांसूंक आयलें.

''ते गेले तें पळोवन हांव गर्भकुडींतल्यान भायर आयलें.'' यमून

म्हणलें. ''मागीर हांव धांवूंक लागलें. हांव धांव.... धांव धांवलें. पूण दरोडेखोरांचे उरफाटे दिशेन. पावस पडटालो पूण म्हाका ताचें व्हडलेंशें पडूंक नाशिल्लें. कांय वेळान पावस पडपाचो थांबलो. पूण सगल्याक गुपाट काळोख जाल्लो. रात जाल्ली काय मळबांत काळीं कुपां आसलीं हें म्हाका कळनाशिल्लें. हांव कितलो वेळ धांवलें देवाक खबर. पांयांनी गुळे आयले. म्हज्यान आनीक धांवपाक जायना जालें. तेन्नाच म्हाका उजवाड दिसलो. अशें दिसतालें की हो उजवाड चुलींतल्या उज्याचो.''

''आगो, आमचेच खोंपींतल्यान येतालो तो उजवाड. तूं हांगाच येवपाचें न्हय. तो उजवाड पळोवन...?'' मीनान म्हणलें.

''हय गो, हांव येवपाचेंच. हांवें हांगाच येवपाचें थारायिल्लें. पूण परत येवजिलें, हे खोंपींत त्या चोरांचे सोयरे वा इश्ट रावतात आसतले. बेठेंच सुक्या वयले वल्यात वचून पडपाचें. हें येवजून हांव तशेंच धांवत सुटलें. काळखांत ती बांय म्हाका दिसलिना. सरळ येवन घबांयच करून हांव बांयत पडलें.''

''तुका भंय दिसलोना गो?''

'अख्खी रात तुवें बांयंत कशी काडली?

''पेंवतना थकूंक ना? रातभर उदकांत रावप म्हणल्यार? तिगांयनी वांगडाच एकाच वाक्यांत विचारलें.

''पूण हांव रातभर उदकांत रावुंकूच ना.''

मना वयलो सगलो ताण उणो जाल्ल्यान यमूक आता मातशें बरें दिसतालें. सगल्यांच्या प्रस्नांक ते थोडे भितर जापो दीत रावलें.

''रातचेंच बांयतल्यान भायर आयलें गो तूं?'' शेवंतान विचारलें.
''ना गो रातभर हांव बांयंतूच आशिल्लें, पूण उदकांत न्हय.''

''अशें उमाण्यांनी कितें उलयता गो तूं?''

बांय सुकिल्ली आसा काय कितें?'' मीनान विचारलें.

'' ना गो बांयंत उदक आशिल्लें. हांव पडलें तें उदकांतूच. पयलीं हांव उदका पोंदा वचूंक लागलें. तुमकां खबर आसा, म्हाका बांयंत पेंवपाची बरी संवय आसा. तेन्ना हातपांय हालोवन वयर आयलें. खरें म्हणल्यार म्हाका रानांत धांवून धांवून खुबूच पुरो जाल्लें. बांयचें उदकूय थंड आशिल्लें. चड वगत पेंवपाक जमनाशिल्लें. मागीर म्हाका एक युक्त सुचली. हांव एका हातान पेंवत रावलें आनी दुसऱ्या हातान बांयचे कडेक वणटीक खंय कुरकूट आसा काय म्हणून सांसपूंक लागलें.''

''कुरकूट आनी बांयंक?'' स्वातीन अजापान विचारलें.

''हय, असल्या बांयांक कुरकूटां आसतात हें म्हाका खबर आशिल्लें. आमच्या शेतांत एक व्हड बांय आसा. ते बांयंक चार पांच कुरकुटां आसात. कितेंय आसूं, हांव भाग्यवान. सांसपितां सांसपितां रोखडेंच म्हज्या हाताक एक कुरकूट लागलें. तें मातशें व्हड आशिल्लें आनी उदकाचे पातळेर आशिल्लें. हातांक नेट लावन हांव त्या कुरकुटांत चडलें आनी सुसेगाद बसलें. फकत हातांपांयांची पोटली करून त्या कुरकुटांत बसचें पडलें इतलेंच.''

''आगो, पूण बांय खूब खोल आसतली. तूं वयर चडून कशें आयलें?'' मीनान अजाप जावन विचारलें.

''तातूंत व्हडलें कितें? भुरगेपणांत खेळटालें ते खेळ ह्या वगतार उपेग पडले. आपालिपा खेळटना आमी सदांच असल्या बांयांच्या कुरकुटांनी लिपतालीं. तेन्ना पेंवतां पेंवतां असल्या कुरकुटांनी वयर चडपाचो आमी खेळूच खेळटालीं. पूण रातभर म्हाका कुरकुटांत बसून रावचें पडलें इतलेंच. सकाळचें मातशें उजवाडटकूच बांयंतल्यान वणटीक धरून वयर चडून आयलें. बांय तितलीशी खोल नाशिल्ली.''

''खोल ना? बाय गो, हांव हे बांयंत पडिल्ले जाल्यार मरतले

आशिल्लें.'' स्वातीन म्हणलें.

''वयर येतकूच मात हांव सापूच थकिल्लें. धड दोन पावलां लेगीत चलूंक जायनाशिल्लें. खंय तरी झाडाच्या आडसाक वचून बसतलें म्हूण दिमखुऱ्यांनी हांव वतालें.''

''आनी इतल्यान सरळ मनशा भशेन उबें रावलें म्हणून आमकां दिसलें तूं.'' ''पूण म्हाका दिसतां तूं बांयंतल्यान वयर सरतना माकडा भशेन दिसतालें म्हणून. आमी थंय तुका पळोवंक आसूंक जाय आसलीं'', शेवंतान म्हणलें.

''हांव तशें दिसतालें आसत पूण तूमी तिगांय म्हजे वांगडा आसात म्हणून हांव खूब खोशी आसा. म्हाका दिसता हांव कांय वेळ मेल्लें म्हणून आनी आतां हो म्हजो दुसरो जल्म,'' यमून म्हणलें.






## 5
# परत दरोडेखोर

आतां बरोच उजवाड जाल्लो. मर्दी मर्दी शेंवण्यांचें गायन आयकूंक येतालें. पावसूय थांबिल्लो. मळब निवळ जाल्लें. सुर्याचीं हळडुवीं आनी मोव किरणां चारूय दिशांनी फांकिल्लीं. भुरगीं सामकीं उमेदीन भरिल्लीं. पूण घरा परतुपाची तांकां ताकतीक जाल्ली.

''मीना, आतां आमकां यमू परत मेळ्ळें. आतां आमी सगलीं जाणां घरचो रस्तो धरुया. हांगाच खबरो मारीत रावल्यार परत आयचीय रात हांगाच रावचें पडटलें,'' शेवंतान म्हणलें.

''आयची रात हांगाच काडची पडटली'' हीं शेवंताचीं उतरां आयकना फुडें स्वाती फट्ट करून उठलें. यमूचें आंग शेकतना स्वातीचो विश्तीद सुकिल्लो. ताणें तो घातलो. लांपयांव, फस्क आनी उरिल्लीं सगलीं लांकडां आसली तशीं जाग्यार व्हरून दवरलीं. बऱ्या संस्कारांनी तीं भुरगीं वाडिल्लीं देखून तांणी सगल्यो वस्तू जाग्यार दवरल्यो. शेवंता व्याग्रेश्वरा म्हऱ्यांत वचून उबें रावलें. ताका पळोवन बाकीचीं तिगांय

ताचे म्हऱ्यांत गेलीं. सगल्यांनी दोळे धांपले आनी हात जोडून व्याग्रेश्वराक प्रार्थना केली.

''व्याग्रेश्वरा, आमचें गाराणें तुवें आयकलें आनी तूं आमकां पावलो. तूजे उपकार आमी कशें पावोवं?'' शेवंतान नमळायेन म्हणलें.

''खरेंच पातळेश्वरा, तुजीच कृपा म्हणपाचें,'' मीनान म्हणलें.

''कसले गो उपकार'', आनी तुमी हे खोंपींत कशीं आयलीं? रातभर हांगाच आशिल्लीं गो तुमी?'' यमून गोंदळून म्हणलें.

''हें पळय यमू, आमी पयलीं घरा वचपाची वाट सोदुया. वतना सगलें कितें घडलां तें सांगतां'', शेवंतान म्हणलें.

चवगांय खोंपींतल्यान भायर सरलीं. देवळा कडेन गेला तो रस्तो यमून दाखयलो. तशींच तीं ते वटेन चलत रावलीं. चलून आयला तो रस्तो आनी सामकार दिसता तोय रस्तो वळखिचोसो दिसनाशिल्लो. पूण खंयच्या तरी रस्त्यान ह्या रानांतल्यान भायर सरूंक जाय आशिल्लें. देखून सामकार दिसता ते पांयवाटेन तीं चलत रावलीं.

सुर्याचीं मोव मोव किरणां पानांच्या खांचींतल्यान सकयल पडटालीं. पावस नाशिल्लो. कुपांय नाशिल्लीं. वारें सवकास व्हांवतालें. सगल्या अरिश्टांचो ताण आतां उणो जाल्लो. आतां अख्खो दीस आशिल्लो.

दिसा उजवाडे घरा पावतलींच अशी चवगांकूय आस्त आशिल्ली. आता तांचो जिवूय सडसडीत जाल्लो. खबरोय बऱ्यो नेटान चलताल्यो. पावलां नेटान मारीत तीं वतालीं. वाग दिशिल्लो तेन्नाच्यान तें यमू मेळसर कितें कितें घडलें तें शेवंता आनी मीना आरतून परतून यमूक सांगतालीं. मदींच स्वातीय उलयतालें.

तीं सुमार वरभर चल्लीं. दाट रानांतल्यान तीं भायर आयलीं.

तरीय अजून तांकां कोणूच मनीस दिसूंक नाशिल्लो.

''आनीक कितलें चलून वचूंक जाय गो?'' मीनान मदींच चलतां चलतां थांबून विचारलें.

''कोणाक खबर. पूण आतां दाट रान सोंपलेंशें दिसता. पांयवाटेची रूंदाय वाडत चल्ल्या. तेन्ना आनीक थोड्या वेळान आमी रानांतल्यान भायर पावतलीं.'' शेवंतान म्हणलें.

''आगो तो पळय थंय दावे वटेन रस्तो दिसता. चल तशींच या.'' सगलीं जाणां रस्त्यान चलूंक लागलीं.

आतां सगल्यांक चडूच नेट आयिल्लो. स्वाती तर पदां म्हणपाक लागलें. पूण जो मेरेन गांवांत पावनात तो मेरेन आपूण संकश्टांत आसात हाची कल्पना तिगांकूय आशिल्ली.

कांय वेळ असोच गेलो. आनी अचकीत चलतां चलतां शेवंता मदींच चलपाचें थांबलें.

''म्हाका दिसता कोण तरी आमचेच दिशेन येता. पावलांचो आवाज आयकूंक येना मीना?'' शेवंतान म्हणलें.

''हय कोणाच्या तरी पावलांचो आवाज आयकूंक येता.''

''तो... तो काल रातीं पळयिल्लो दरोडेखोर न्हय मगो?'' येदो वगत नेटान खबरो सांगपी यमू आतां भियेत म्हणूंक लागलें.

कितें करपाचें तें तांकां कांयच सुचना जालें. पावलांचो आवाज पयसुल्ल्यान येतालो. तो म्हऱ्यांत पावचे पयलीं कितेंय तरी उपाय सोदून काडूंक जाय आशिल्लो.

रस्त्यार पावचे पयलीं तीं ल्हानशे पांयवाटेतल्यान येतालीं. ती पांयवाटूय आतां फ ाटल्यान उरिल्लीं. तीं परत ते पांयवाटेन वचूंक

शकनाशिल्लीं. आवाज लागीं लागीं येवंक लागिल्लो. शेवंतान चारूय दिशांनी नदर भोंवडायली. अचकीत ताका तीन चार झोपां दाट वाडिल्लीं दिसलीं.

''बेगीन येयात. आमी त्या झिलींच्या आड लिपुया. मागीर कितें जाता तें जाता. झिली बऱ्योच दाट आनी ऊंच आसात. आमी तांच्या फाटल्यान लिपून रावल्यार कोणाक कळचें पसून ना,'' शेवंतान म्हणलें.

सगलीं जाणां वाऱ्या भशेन धांवत त्या झिलींनी लिपून बसलीं. दिमखुऱ्यांनी वचपी ल्हान भुरग्यां भशेन तीं चवगांय जमनीर एकामेकांक खेटून बशिल्लीं. पावलांच्या आवाजा वांगडा आतां फुतफुतिल्याचो आवाज लागीं लागीं येवंक लागलो. ल्हव आवाजांत कोण तरी दुसऱ्याक कितें तरी समजावन सांगतालो.

आतां तांचो आवाज सामकोच लागीं लागीं येवंक लागलो. रस्त्या वयल्यान वचपी मनीस आपल्याच तोऱ्यान चलताले. रानांत आपणाक पळोवपी कोणूच ना हाचो तांकां विस्वास आशिल्लो. तांकां हीं भुरगीं आपल्याक लिपून पळयतात हाचो मात लेगीत दुबाव नाशिल्लो. झिलीं फाटल्यान लिपून बशिल्ल्या चलयांनी हळूच खांचींतल्यान पळयना फु डें तें कोण आसतले हाचो अदमास काडलो. यमून तर भियेवनूच शेवंताचो हात घट्ट धरलो. तें ह्या मनशांक रोखडेंच वळखले. आनीक कोणेंय तांकां पळयिल्लें जाल्यार ते चुलीक लांकडां एकठांय करूंक आयल्यात अशें समजतलें आशिल्ले. पूण यमून तांचें रातचेंच खरें रूप पळयिल्लें.

''हय... हय... तशेंच... ती पोटली... बांयंच्या कुरकुटांत... हय फ ाल्यांच... सुकडो.. जात्रेक... दोन दीस... आसचो ना... ताची बांय... दुबावूच ना... हांव याद दवरतां... हय... खरेंच... म्हाका समजलें... दोनूय पोटल्यो.. कळ्ळें मरे... लख्या...''

दुसऱ्याचो आवाज : हय... सगलें म्हाका सारकें समजलें. तूं तुज्या कामाक वच... हांव म्हजें काम बेस बरें करतां.'' आनिकूय अशेंच कितें तरी ल्हव आवाजांत उलयत ते मनीस चलत चलत मुखार गेले.

चलयांनी हें सगलें लिपून पळयलें. आपूण हांगा आसा हे कळूंक जायना म्हूण तीं स्वास अंदून बशिल्लीं. यमू त्या चोरांक वळखलें. तातूंतले दोग जाण व्हडल्या रस्त्या वयल्यान चलत गेले आनी उपरांत आड वाटेन गेले. तिसरो ल्हान पांयवाटेन चलत रावलो. ते आतां नदरे आड जाल्लें.

आतां कसलीच भिरांत ना हें कळटकच चवगांय झिलीं फाटसून भायर आयलीं. आतां तांकां जाता तितले बेगीन घरा वचपाची ताकतीक जाल्ली. पूण ह्या नव्या आयिल्ल्या अरिश्टाक लागून तांची चाल मातशी मंद जाल्ली.

''अरिश्टांनी आमची फाट अजून सोडूंक ना दिसता,'' शेवंतान म्हणलें. आनीक खंयचोय वगत आशिल्लो जाल्यार शेवंताच्यो इश्टिणी रानांतल्या सैमाचो आस्वाद घेतल्यो आसल्यो.

''शेवंता, आमी सारके वाटेर आसा मूं? नाजाल्यार आमी खंयच्या खंय पावत,'' मीनान चिंतेस्त जावन म्हणलें.

''आगो होच रस्तो गांवा कडेन वता. ते दरोडेखोर उलयताले तें आयकूंक ना? ते गांवांतल्यान आयल्यात. आमचो गाव मेळना जाल्यार कितें जालें? खंयच्या तरी गांवांत पावतलींच आमी. मागीर थंयच्या पुलीस स्टेशनार वचून तांच्या आदारान घरा पावुया,'' शेवंतान मीनाक धीर दीत म्हणलें.

यमू आपलेच तंद्रेंत आशिल्लें. ''शेवंता'' कितें तरी येवजीत ताणें म्हणलें. ''तुवें आयकल्लें मगो त्या चोरांचें उलोवप?''

''आयकल्लें गो, पूण तातूंतलें म्हाका कांयच कळूंक ना. फकत सुकड्या आनी बांय हीं दोनूच उतरां कळ्ळीं,'' शेवंतान म्हणलें.

''सुकडोय हांचोच एक सांगाती बी न्हय मगो?'' मीनान अजाप जावन म्हणलें.

''ना गो, म्हाका तरी तशें दिसना.'' यमू फुडें सांगूंक लागलें. ''हें पळय, म्हजो तर्क असो आसा. ते चोर म्हणटाले, सुकडो... बांय... म्हणल्यार काल तुमी रातचीं राविल्लीं ती सुकड्याचे खोंपी कडली बांय. जे बांयंत हांव रातभर बसून रावलें तीच बांय आसतली.'' आनी यमू परत चिंतूंक लागलें.

''आगो पूण कवळे आनी पोटली कसली? बांयंचो आनी पोटलेचो संबंद कितें? पोटल्यो खोंपींत दवरतात इतलें हांव जाणां,'' मीनान म्हणलें.

''आनी ते कितें म्हणटालें तें जाणां तूं? सुकडो आनी जात्रा... दोन दीस... दुबाव येवचो ना.... आतां म्हाका कळ्ळें तांच्या त्या उतरांचो अर्थ,'' यमून म्हणलें.

''सांग गो तुवें तरी त्या तुटक्या उतरांचो कितें अर्थ लायला.'' मीनान म्हणलें.

''आगो हें पळय, सुकडो... जात्रा... दोन दीस... म्हणल्यार सुकडो जात्रेक गेला. तो दोन दीस येवचो ना.'' यमू म्हणूंक लागलें.

''म्हणजे सुकड्याचो कोणाकूच दुबाव येवचो ना....''. शेवंतान आपले विचार मांडले.

''बांयंत आयज एक पोटली दवरपाची. फाल्यां दुसरी हाडपाची आनी दोनूय पोटल्यो वांगडाच घेवन वचपाचें.'' यमून म्हणलें.

''तांच्या सगल्या उलोवपाचो अर्थ असो जाता. ह्या चोरांनी काल खंय तरी दरोडो घाला आनी ती लूट हाडून तांणी सुकड्याचे बांयत दवरल्या. सुकडो जात्रेक गेला तो दोन दीस येवचो ना. ताचो कोणाकूच दुबाव येवपाचो ना. फाल्यां दुसरे कडेन दरोडो घालपाचें तांणी चिंतलां. फाल्यांची आनी कालची लूट वांगडाच व्हरपाची अशें तांणीं थारायलें,'' यमून विस्कटावन सांगलें.

''हय गो, तूं सांगता तें सगलें खरेंच दिसता. पूण त्या चोरांनी आतां खंय दरोडो घालपाचो थारायलां आसतलें?'' मीनान म्हणलें.

कोणूच कांयच उलयनासतना चलतालीं. जण एकलें आपल्याच विचारांत घुसपल्लें.

''ना... ना... हांव म्हज्या काकाक सांगतलेंच,'' यमू आपल्या भितरूच बडबडूंक लागलें.

''आगो, यमू तुज्या काकाक कितें सांगतलें?'' मीनान अजाप जावन विचारलें.

''आनीक कितें? ह्या चोरांचें गुपीत. काका आयज येवपाचो आसा. ताका कसलो तरी तपास करपाचो आसा. ताका ह्याय चोरांच्या गुपिताचो तपास कर म्हणून सांगतलें हांव.'' यमून म्हणलें.

''दुसऱ्या तपासा बदला आमकां सोदूंक आयिल्ले जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें,'' मीनान म्हणलें.

''आगो, ते काल आमच्या गांवांत येवपाचे आशिल्ले आनी तेय रातचे. रातचे येना फुडें आमकां सोदूंक कशे येतले? तांका कितें तरी गरजेचें व्हड काम आसा. ताणें आमच्या घरा जायत्या जाणांक आपयल्यात,'' यमून म्हणलें.

''आपले धुवडेक आनी तिचे शेणिल्ले इश्टिणींक सोदप हाचे परस काम आसुंकूच शकना,'' मीनान फुगार जावन म्हणलें.

''शूऽऽऽ ओग्गी रावात गो. म्हाका कसलो तरी आवाज आयकूंक येता.'' शेवंतान तांकां ओग्गी करीत म्हणलें.

''परतूय चोर आयले काय कितें गो?'' यमून भियेतूच म्हणलें.

''चोर आसूं नाजाल्यार फटींग. हांव तांकां भियेना. ते कितें करतले? आमी कितें घेवन खालां तांचें?'' शेवंतान धिटायेन म्हणलें.

''खरेंच? तशें जाल्यार येदो वेळ झिलीं फाटल्यान कित्याक लिपिल्लें?'' ताका चाळयत मीनान म्हणलें.

''हें पळय, जीव कोणाक नाका? ते खातिरूच लिपिल्लें. पूण हांव भियेना,'' शेवंतान म्हणलें. आयकून सगलीं जाणां हांसलीं.

''पूण शेवंता, हेदोळचे भशेन हांगा झोपां नात. रस्तो मेकळो आसा. आनी कडेक फकत हे व्हड व्हड रूख. लिपूंक जागो तरी खंय आसा?'' मीनान विचारलें.

''आगो लिपूंक झोंपां परस व्हड रूख बरे. आमी लिपचेल्यांनी खेळटना रूखां फ ाटल्यान लिपनासलीं? तशींच लिप्पाचीं,'' शेवंतान सुचयलें.

''शूऽऽऽ'' यमून तांकां ओगी केलीं. उलोवपाचो आवाज लागीं लागीं येतालो. उतरां मातशीं कळटालीं. पूण आवाज चोरां भशेन भयानक नाशिल्लो. तरीय तांकां परत अरिश्ट ओडून घेवपाचें नाशिल्लें. आवाज लागीं लागीं येवंक लागलो तशीं तीं चवगांय शेवंतान सुचयिल्ले भशेन एका एका रुखा आड लिपून रावलीं.



6

## आंगार कांटो फुलोवपी घडणुको

**आवाज** आनीक लागीं लागीं येवंक लागलो. भुरग्यांक धा-बारा मनशांच्या पावलांचो आवाज आयकूंक येतालो. आतां दुसरेच वटेन पावलांचो आवाज आयकूंक येवंक लागलो. आतां कितें जातलें काय देवा? हें येवजितूच तीं चवगांय भियेवन रुखां फाटल्यान ओग्गी उबीं रावन पळोवंक लागलीं. आनी अचकीत...

''काका...'' यमू मोट्ट्यान आड्डलें.

पयसुल्ल्यान येतात ते मनीस तांचे नदरेक पडले. धा-बारा जाण आशिल्ले. कांय गणभेस घाल्ले पुलीस आशिल्लें. तांच्या सांगाता पुलीस इन्स्पेक्टर काका आशिल्ले. यमून धांवत वचून काकांक वेंग मारली. काका अजाप जावन पळयतूच उरले. अचकीत हें पोर खंयच्च्यान आयलें तेंच ताका कळना जालें.

''यमू... बाय तूं?''

''काका...'' यमूच्यान फुडें उलोवंकूच जायना जालें.''

''आगो पूण तुज्यो इश्टिणी खंय आसात?''

''तीं त्या रूखां फाटल्यान आसात.'' यमून रुखांचे दिशेन बोट दाखयत म्हणलें. रुखां फाटल्यान लिपिल्लीं तीं तिगांय ल्हवू ल्हवू मुखार येवंक लागलीं. यमू तांचे म्हऱ्यात धांवत गेलें.

''शेवंता, मीना, स्वाती... आगो म्हजे काका आयल्यात पळयात. मीना, तू म्हणटालें न्हय, तशे काका आमकां सोदूंक....''

आनी मदींच थांबून तें काकांक म्हणूंक लागलें, ''काका! खरेंच आमकां सोदूंक तुमी मुद्दम आयल्यात ?

''तसो हांव गांवांत आयिल्लों तो आनीक कोणाक तरी सोदूंक. पूण रातचो घरा वतकच कळ्ळें की तुमी पांय भोंवडे वयल्यान परत घरा येवंकूच ना. आनी तुमी वाट चुकल्यांत आसतलीं. मागीर हांव म्हजें काम कडेक दवरून तुमकां सोदूंक भायर सरलों.''

''पळय मीना, हांवें तुका सांगूंक ना? आपलें व्हडलें गरजेचें काम लेगीत कडेक दवरून म्हजो काका आमकां सोदूंक येतलो म्हणून. पळयलें मगो? म्हज्या काकाक कितें समजलें तूं?''

''हेंच, हेंच विचारूंक सोदतालों हांव तुकां. कितें गो, तुजो काका म्हणल्यार तुमकां कोण दिसलो? तुका खबर आसा? तुमकां सोदूंक आमकां सगल्यांक रातभर कितले त्रास जाल्यात ते? हांवें आनी म्हज्या पंगडान पुराय पातळेश्वराचो दोंगर तुमकां सोदूंक पालथो घालो. पूण खंयच तुमचो पत्तो ना. फ ांतोडेर तरी तुमी व्हाळाचेर येतलीं म्हणून आमी थंय गेले. थंय गेल्यार फ कत एक मेल्लो मनीस जमनीर पडिल्लो दिसलो.

''तो कासादोर आसतलो.'' यमून मदींच म्हणलें.

''कासादोर?'' काकान म्हणलें.

''त्या कासादोराचेच कास जाल्लें. ताका वागान सामकोच पिंजून उडयिल्लो. आनी तो व्हाळा पलतडी आशिल्ल्या रानांत पळून गेल्ल्याच्यो खुणो दिसताल्यो. मेल्लो मनीस आनी वागाच्या दावखुलांच्यो खुणो



पळोवन, भुरग्यांनो, तुमचो म्हाका हुसको चडूच जावंक लागलो. तुमचें बरें वायट जावंक ना मूं ह्या विचारानूच हांव गळसणलों. तितल्यान आमकां एक मीना म्हणून नांव आशिल्ली पोती मेळ्ळी.''

''हय ती म्हजी पोती. भेळ घालून हाडिल्ली. म्हजी शाळेंत व्हरपाची पोती ती. तातूंत सगलें विणपाचें सामान घालून हांव ती शाळेंत व्हरतां. तिचेर हांवें म्हजें नांव सुतान भरलां,'' मीनान म्हणलें.

''पूण ती पोती आशिल्ली व्हाळाचे देगेर आनी तुमी खंय आसात तें कांयच कळनाशिल्लें. मागीर चारूय दिशांनी तुमकां सोदूंक हांवें पुलीस धाडले. रातच्यान आख्खें रान माड्डिलें आनी आतां तुमी हांगा मेळ्ळीं,'' काकान म्हणलें.

इतल्यांत दुसऱ्या अर्दांत पावलांचो आवाज येवंक लागलो. पळय जाल्यार थंयच्यान धा-बारा पुलीस आयले.

''सायब.. तेवटेन रानांत एकेय चलयेचो सुगावो लागलोना...'' एका पुलिसान म्हणलें. आनी तो उलयतां उलयतां थांबलो. ताची नदर सायबा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या चलयांचेर पडली.

''सायब मेळ्ळ्यो त्यो चलयो?'' त्या पुलिसान विचारलें.

''हय, ह्यो पळय! पूण यमू तुमी रातभर खंय आसलीं?'' काकान यमूक प्रस्न केलो.

''मीना ताई, म्हजें पांय खूब दुखतात गो!'' अशें म्हणीत स्वाती सकयल बसलें.

''खरेंच काका, आमकांय पुरो जाला. आमी मातशीं रावूया न्हय?'' मीनान म्हणलें.

''हय गो. हें पळय आमी हांगाच रावुया.'' काकान म्हणलें. ताणें

हवालदाराक आपयलो. ''जाधव अशें कर. तूं गांवांत वचून जीप घेवन यो. हांव ह्या भुरग्यांक घेवन हांगाच रावतां. आनी कदम तूं तुजो पंगड घेवन...''

''सुकड्याले बांय कडेन वचपाचें.'' काका भशेन झेत काडीत यमून ओर्द पूर्ण केली.

''खंयची बांय? तूं कितें उलयता?'' काकान अजापान विचारलें.

''हांव तुमकां सगलें कितें तें सांगतां काका.'' आनी यमून काकाक झिलीं फाटल्यान लिपून रावन आयकल्लें ते चोरांचें सगलें उलोवणें, तांच्यो येवजण्यो आनी सुकड्याले बांयंत लिपोवन दवरिल्ले पोटले विशीं सगलें सांगलें.

इनस्पेक्टर काकान त्यो सगल्यो घडणुको कान दिवन आकयल्यो.

''म्हाका दिसता आमी ज्या दरोडेखोरांक अटक करूंक आयल्यात ते हेच आसतले. चलात रे, पयली यमू सांगता तो चोरयेचो म्हाल घेवन येयात,'' इन्स्पेक्टर काकान आपल्या पुलिसाक ओर्द दिली. पूण दरोडेखोर सुकड्याले बांयंच्या कुरकुटांत लुटिल्लो म्हाल कशे लिपयतले? ताका दुबाव आयलो.

''आनी यमू, बांयंक कुरकूट आसा तें तुका कशें कळ्ळें?'' काकान अजाप जावन विचारलें.

''कशें म्हणल्यार काका? तुमचे हे धुवडेची जिवीत पोटली काल रातभर त्याच कुरकुटांत आशिल्ली. तुमकां खबर आसा?'' शेवंतान म्हणलें.

अर्दवरा भितर शेवंता, मीना आनी यमू ह्या तिगांयनी आरतून परतून घडिल्ल्यो सगल्यो घडणुको एके हारीन सांगल्यो. पांयभोंवडेक

भायर सरपा साकून ते पातळेश्वर पावसर, पातळेश्वरा पसून परत येतना, व्हाळाचे देगेर, वाग आनी कासादोर, वागाक पळोवन तांचें धांवप, यमूचें शेणप, देवूळ, यमूचें बांयंत पडप, चवगांय परत मेळप, चोरांचें उलोवणें आयकप आनी अखेरेक पुलिसाक मेळप हें सगलें तांणी विस्कटावन सांगलें. मदींमदीं स्वातीय आपणें कितें कितें केलें तें आंबट-तीख लावन सांगतालें.

काका आनी हेर पुलीस अजाप जावन आयकताले. इल्लींशीं हीं पोरांटीं आनी अरिश्टांक तांणी अशें तरेन तोंड दिलें हें आयकून ते तांच्या धाडसाची तोखणाय करूंक लागले. आयकून तांकां पयलीं खरेंच दिसना जालें.

''हय, वेळ पडल्यार आनी संद दिल्यार चलयांच्यान लेगीत असलें धाडस दाखोवं येता,'' मीनान म्हणलें.

तांच्या सगल्यांच्या मनांतलें विचार जणू मीनाच्या तोंडांतल्यान भायर पडटाले.

''आतां तुमी म्हणूंक शकतले चलयो भिवकुऱ्यो आसतात म्हणून?'' मीनान काकाक पळयत म्हणलें.

''कोणूच आनी केन्नाच अशें म्हणूंक शकचो ना,'' काकान हांसत म्हणलें.

''आनी काका, तुमकां जर ते बांयंतलो लुटिल्लो म्हाल मेळ्ळो जाल्यार आमकांय इनाम दिवचें पडटले.'' यमून म्हणलें.

''काका आमचें यमू इनामाक पात्र आसा,'' शेवंतान म्हणलें.

''यमू एकलेंच कित्याक? तुमकां सगल्यांक इनाम मेळूंक फावो,'' काकान म्हणलें. ''पूण म्हाका दिसता पयली तुमी दाखयिल्या धाडसा

खातीर तुमकां शौर्य पदक दिवन तुमचो भोवमान करूंक जाय. न्हय रे कदम?''

''खरेंच सायब, ह्या चलयांनी दाखयिल्ल्या धाडसा खातीर तांकां तें फावताच. ह्या ल्हान चलयांनी जे तरेन अरिश्टांक तोंड दिलां तें पळयल्यार कोणाचो विस्वासूच बसचोना,'' कदमान म्हणलें.

अजुनूय जीप येवंक नाशिल्ली. इतलो वेळ कित्याक जालो तें काकाक कळना जालें. कांय वेळ असोच गेलो. मदींच काका म्हणूंक लागलो, ''भुरग्यांनो समजात, तो खोंपींतलो वाग फातराचो नाशिल्लो, खरोच जितो वाग आशिल्लो जाल्यार तुमी कितें करपाचीं?''

''जितो... जितो...'' मीना चितूंक लागलें.

''जाल्यार काका आमी कितेंय तरी करतलींच आशिल्लीं.'' कितें सांगचें तें कळना जावन शेवंतान म्हणलें.

''कितेंय तरी म्हणल्यार कितें तें सांग.''

''जाणा काका, आमी सगलीं मेळून म्हणल्यार तांच्या सांगाता हांवूय आशिल्लें जाल्यार आनी....'' यमू कितें तरी सांगपाक सोदताले. इतल्यान तांकां एक मोट्ट्यान मारिल्ली किळांच आयकूंक आयली. तशी ती लागच्यान येवंक नाशिल्ली. पूण त्या शांत रानांत त्या किळांचीचो आवाज मोट्ट्यान गाजलो.

येदो वेळ ओग्गी रावून आयकताले ते काका आनी पुलीस फट्ट करून उबे रावले आनी सादूर जाले.

अचकीत आयिल्ली किळांच खंयच्यान आयल्या आसतली हाचो ते अंदमास घेवंक लागले. परत आनीक एक किळांच तेच दिशेंतल्यान आयकूंक आयली. ह्यो किळच्यो खंयच्यान येतात आसतल्यो हाचो

काकान अदमास काडलो.

सगलीं बशिल्लीं त्या जाग्या वयल्यान सुमार मैलभर पयस उजवे वटेंतल्यान रानांत किळचेचो आवाज आयिल्लो.

''कदम तूं आनी तीग-चौग जाण म्हज्या वांगडा येयात. थंय कितें जालां तें पळोवया.'' पिश्तोलाक हात लायत काका चलूंक लागले.

दोन तीन पावलां मुखार वतकच ताणें फाटीं वळून पळयलें. पळयल्यार तीं चवगांय पुलिसां फाटल्यान येतालीं.

''आगो, तुमी कित्याक येतात? कसली भानगड आसा कोण जाणा. इतलो वेळ भोगलां तें पुरो.'' काकान समजायत म्हणलें.

''काका, कालच्यान कितल्याश्याच अरिश्टांक तोंड दीत आसात. तातूंत हेंय एक. आतां तुमीय वांगडा आसात. मागीर भिरांत कसली?'' यमून म्हणलें.

''आगो, तुमी खूब थकल्यांत,'' काकान म्हणलें.

''अजून जीप कांय येवंक ना. आमकां हांगा रावपाक बेजार येतलो. आनी जीप येसर मूस मारीत बसचे परस आमी....'' शेवंताचें वाक्य पूर्ण करीत काकान म्हणलें, ''थंय वागाक मारपाक येतात. कालचो वाग आसल्यार परत तुमकां तो पळोवंक मेळटलो. चलात तर हांवें तुमकां तुमच्या धाडसाचो दाखलो पयलींच दिवन उडयला.''

तीं चवगांय तांच्या वांगडा आयल्यार कांयच वायट जावचें ना हें काकाय जाणा आशिल्लो. सगलीं जाणां किळचेच्या आवाजाचे दिशेन चलूंक लागलीं.

तीं रुंद रस्तो सोडून उजवे वटेन रानांत भितर सरलीं. रान बरेंच दाट आशिल्लें. तांचे कल्पने परसूय दाट. धा बारा पावलां चलतकूच

वाट खंय आसा तीच कळनाशिल्ली. मदीं मदीं सकयल आयिल्ल्यो रुखांच्यो खांदयो हातान पयस करीत वाट करून वचचें पडटालें. रातच्या पावशी वादळान रुखांचीं सगलीं सुकिल्लीं पानां पडून जमनीर तांची रास जाल्ली. आनी पानांचे राशींतल्यान तांकां सगल्यांक चत्रायेन चलचें पडटालें. पावस पडिल्ल्यान जमनीर निसरट जाल्ली. चलतना पांय निसरून सकयल पडपाची भिरांत आसली.

मदींच एक व्हड रूख रातच्या वादळान मोडून आडवो पडिल्लो. सगलीं वाट आडावन पडिल्लो. वयल्यान दांग मारून वतलो म्हणल्यार तो रूख मातशे उंचायेर आशिल्लो. पोंदच्यान वतलो म्हणल्यार सामकोच ओणोव घालून वचचें पडटालें. काका सांगातान आशिल्ले ते दोन पुलीस आनी काका, पयलीं त्या रुखा पोंदच्यान ओणोव घालून गेले. तांचे फाटोफाट स्वाती, यमू आनी मीना ओणव घालून वचपाक, फाटल्यान शेवंतान तांच्या तोंडार हात दवरून तांकां फाटल्यान ओडलें. लागींच आशिल्ल्या एका पुलिसाच्या हातांतलो दांडो ओडून घेतलो आनी कोणाक कितें घडटा तें कळचे पयलींच त्या मोडिल्ल्या रुखाचेर मारीत रावलें. खीणभर कोणाक कांयच कळ्ळेंना. शेवंतान दोन तीनदां दांडो मारतकच म्हऱ्यांत आशिल्ल्या हवालदार कदमाच्या तें लक्षांत आयलें. ताणें रोखडोच आपल्या कमराचो दांडो काडलो आनी तोय सपासप मारूंक लागलो. खिणांत हळडुव्या कोराचो लांब सोरोप मरून सकयल पडलो.

''आस्तीक आस्तीक काळो दोरो.''

'आस्तीक आस्तीक काळो दोरो.'' यमून बेगिबेगीन म्हणलें. दोन दिसां भितर मंत्र म्हणपाची ही यमूची दुसरी खेप.

''आगो तो मेलो. आतां कित्याक तो मंत्र म्हणटा? पयलीं तरी

म्हणचो आसलो.''

''पूण ताका पयलीं खंय पळयला हांवें?''

''आसूं गो, पूण म्हाका दिसलो म्हणून बरें जालें.''

शेवंता वगतार पावलें म्हणून मीनाक ताचें व्हडपण दिसलें.

''काकान त्या मेल्ल्या सोरपाक बडयेन उबारलो आनी परतो केलो. शेवंतान आनी हवालदार कदमान मारिल्ल्या दांड्यान त्या सोरपाच्या तोंडाचें सामकें चेकचेकें जाल्लें. फकत शेंपडी तितली हुळहुळटाली.

''सायब, खरीच ही चली खूब हुशार आनी धाडशी. अपुरबायेन शेवंता वटेन पळयत कदमान म्हणलें.

''ताच्या जाग्यार आनीक कोणूय आशिल्लें जाल्यार भिरांतीन आड्डतलें आशिल्लें. तें आपूण ओग्गी रावलेंच, वांगडाच आपले इश्टिणींकूय किळांच मारूंक दिलिना.''

''सायब सोरपाक सारकें दिसना जायत पूण ताका आयकूंक बरें येता अशें हांवें आयकल्लें. देखून हांवें मीनाचे तोंड घट्ट धरलें. तें शारांत रावपी चली. ताका ह्यो सगल्यो खबरो कश्यो कळटल्यो,'' शेवंतान म्हणलें.

''कदम, ह्या मेल्ल्या सोरपाक हांगाच खांदयेर लोंबकळत दवर. आमी परत हेच वाटेन आयलीं जाल्यार गांवच्या लोकांक दाखोवंक व्हरुंया,'' काकान म्हणलें.

''हय आमच्या शेवंताच्या धाडसाचो पुरावो म्हणून.'' यमून म्हणलें. तें आपले इश्टिणी विशीं अभिमानान उलयलें.

सगलीं जाणां अशींच मुखार गेलीं. आतां झाडांय मातशीं पातळ

जाल्लीं. चलतां चलतां एके मेकळे सुवातेर पावलीं. ते मेकळे सुवातेर....

''शूऽऽऽ'' इन्स्पेक्टरान सगल्यांक ओग्गी केलीं.

सगलीं जाणां एका जाग्यार उबी रावलीं आनी सामकार आशिल्ले उकते सुवातेर पळोवंक लागलीं. फुडें वतलो जाल्यारूय कोणूच वचूंक तयार जावचो नाशिल्लो. आनी काकान वोग्गी करूंक नाशिल्ली जाल्यारूय कोणूच तोंडातल्यान एक उतर लेगीत काडचीं नाशिल्लीं. असोच कितें तो भिरांकूळ देखावो आशिल्लो.

सामकार नेटान वाग आनी एक मनीस झुजताले. मदींच चकचकीत कुराड वयर सरताली आनी आसा तशी नेटान सकयल येताली. गुरगुरपाचो आवाजूय आयकूंक येतालो. मदींच कुराड आशिल्ल्या हाताचेर झोंपय मारली. सुरवातीक वाग दिसतकच ह्या मनशान किळच्यो मारल्यात आसतल्यो. त्योच तांकां हेदोळ आयकूंक आयिल्ल्यो. मागीर तो रोखडोच सादूर जावन कुराड घेवन वागा कडेन झुजपाक लागलो. तांचें झूज बरोच वेळ चलिल्लें आसतलें.

तो मनीस रगतान अख्खो माखिल्लो. ताच्या हातांचेर, पांयांचेर आनी हड्ड्याचेर जायते घाय आनी भुरके काडिल्ले दिसताले. आपणें धरिल्लें सावज कशेंच आयकना हें पळोवन वाग चवताळिल्लो. दोगूय रागान एकामेकांक पागडी मारताले तेन्ना त्या मनशाची काळी- किट्ट कूड आनी वागाचे काळ्या पट्यांचें हळडुवें आंग पळोवंक भिरांकूळ दिसतालें.

इन्स्पेक्टर आनी कदम दोगूय आपली पिश्तोलां सामकार धरून नेम सादपाचो येत्न करताले. ओगीच मेळटा तशे ते फ ार मारूंक शकनाशिल्ले. घायाळ जावन चाळवल्लो वाग पंदरा वीस जाणांक

आटापा येना. देखून ते कसोच आपलो नेम चुकोवंक सोदिनासले. तांकां एक वा दोन गुळयांनी वागाक मारुंकूच जाय आशिल्लो.

''ठो...ठो...ठो...ठो...'' फाटोफाट चार फार आयकूंक आयले. वागान एक ऊंच उडकी मारली. आपल्या दावखुलांनी धरिल्ल्या त्या मनशाक सोडून ताणें आपलें तोंड फाराच्या आवाजाचे दिशेन घुंवडायलें. फाटल्यान घुंवून तांबड्यागुंज दोळ्यांनी सगल्यांक पळोवंक लागलो. इतल्या पयसुल्ल्यान लेगीत ताचे दोळे चकचकताले ते दिसताले. तो आतां सवकासायेन पावलां मारीत मुखार सरूंक लागलो. सगलीं जाणां खुंटां भशेन हालनासतना उबीं राविल्लीं. सवकासायेन येवपी वागान लागी पावनाफुडें आपल्या नव्या दुस्मानाचेर उडकी मारपाचो येत्न केलो.

इतल्यांत इन्स्पेक्टरान आपल्या पिस्तोलांतल्यान फार मारलो. फार वागाचे तकलेक लागलो. पयलींच ताच्या आंगाक दोन-तीन फार लागिल्ले. तातूंत हो फार लागनाफुडें वाग बरोच निन्नडलो आनी वांकडोतिकडो जायत शेकानशेक भुंयेर आडवो पडलो. दोन-तीन खीण फडफडलो आनी मागीर ताचें फडफडप बंद जालें.

तरीय काकान सगल्यांक फाटींच रावात अशें कुरवांनीच सांगलें. तो ल्हवू ल्हवू पिशतोलाचो नेम धरीत वागा म्हऱ्यांत गेलो आनी तो मेल्ल्याची खात्री करून घेतली.

''कदम'', ताणें उलो मारलो. ''वाग मेलो.''

''वाग मेलो हें आयकतकच सगलीं जाणां वागा म्हऱ्यांत वचूंक लागलीं. वागा कडेन झुजपी तो मनिसूय कसलेच हालचाली बगर जमनीर आडवो पडलो. कदम त्या मनशा सरीं गेलो. ताचें मनगट ताणें हातान घेवन पळयलें. आनी रोकडेंच सकयल सोंडलें.

''सायब होय मेलो.''

''पोटली सारकी दवरून आयला आसतलो'', यमून म्हणलें.

''व्याग्रेश्वरान ताका सारकोच धडो शिकयलो,'' मीनान म्हणलें.

''म्हणल्यार?''

''काका, हो दरोडेखोरांच्या पंगडांतलो. होच लुटीचो म्हाल बांयंत दवरूंक गेल्लो,'' मीनान म्हणलें.

''हांवें ताका पयसुल्ल्यान पळल्लो. ताचे फाटीक कुबड आशिल्लें. त्या कुबड्या खातीर हांव ताका वळखूंक पावलें.'' शेवंतान जमनीर तेंकिल्ल्या ताच्या कुबडाक पळयत म्हणलें.

''यम्याच आसतलो हो,'' मीनान म्हणलें. ''हांवें ताका दुसरो दरोडेखोर यम्या म्हणून उलों मारतना आयकल्लें. मनांत म्हणलें लेगीत, पळोवंक हो यम कसो दिसता.''

''कदम'' ह्यो चलयो म्हणटात ते प्रमाणें होय एक दरोडेखोर आसतलो. आतां तो मेला. जितो आशिल्लो जाल्यार ताका हॉस्पिटलांत व्हरपाचो बोवाळ आसतलो आशिल्लो. पूण तशें ना. देखून हीं दोनूय प्रेतां हांगाच आसूं दी. तुमचे भितरले दोग जाण हांगाच रावात. हांव रोखडोच हीं दोनूय प्रेतां गांवांत व्हरपाची वेवस्था करतां,'' इन्स्पेक्टर काकान म्हणलें.

आपल्या वांगड्यांक सुचोवण्यो दिल्यो आनी चलयांक घेवन बाकीच्या पुलिसां वांगडा इन्स्पेक्टरगेलो.






## 7

## खरेंच पोरां धाडशी !

सगलींच जाणां गांवचे दिशेन चलत आशिल्लीं. कोणूच कांय एक उलय नाशिल्लो. अचकीत काकान कितें तरी येवजून म्हणलें, ''कदम, हो मनीस जिवो आशिल्लो जाल्यार हाच्या बाकीच्या सांगात्यांचो पत्तो तरी लागतलो आशिल्लो.

कदम उलोवचे पयलीच यमून म्हणलें, ''काका, आतां तुमी आमकां तुमचें पुलीसेंत भरती करून घेयात.''

''कित्या खातीर?''

''कारण म्हज्यान त्या दरोडेखोरांचें रावपाचें ठिकाण दाखोवं येता. आमी हुशार आनी धाडशी हें पयलीच दाखोवन दिल्लें आसा. तेन्ना फु डलो तपास करूंक आमचो तुमकां उपेग जातलो,'' यमून अभिमानान म्हणलें.

''जातलो तर, पूण सगल्यांत पयलीं तुमी तुमच्या आवयबापांयची परवानगी घेवंक जाय. आनी मातशीं व्हड जावंक जाय. मागीर पळोवया,'' काकान तांचीं फकांडां करीत म्हणलें.

''कदम ह्या भुरग्यांनी सांगिल्ले प्रमाणें पयलीं आमी त्या देवळाचो तपास करूंया.''

''हय सायब, आनी....''

''आनी कितें?''

''ना, हांव म्हणटालों भुरग्यांक नदर बरी आसा आनी उगडासूय. तेन्ना त्या चोरांक धरतकच वळख परेडी खातीर हांकां व्हेलीं जाल्यार....''

''हय हय, आमी तांकां वळखतलीं,'' चवगांय नेटान म्हणूंक लागलीं.

अचकीत स्वातीन किळांच मारली. आतां सगलींच जाणां आड्वो पडिल्ल्या त्या रुखा कडेन पाविल्लीं. शेवंतान मारिल्लो तो हळडुवोच सोरोप त्या रुखाचे खांदयेर लोंबकळटालो. ताका पळोवन स्वाती भियेलें आनी ताणें किळांच मारली.

हवालदार कदमान रोखडीच एका रुखाची घटशी खांदी मोडली, ताचीं पानां तोडलीं आनी ते बडयेचेर मदींच त्या मेल्ल्या सोरपाक घालून चलयांक म्हणूंक लागलो, ''धरात हाका''.

बडयेचें एक पोंत मीनान धरलें जाल्यार दुसरें पोंत शेवंतान.

बडयेर सोरपाक लोंबकळायत तीं सगल्यां वांगडा खोशयेन चलूंक लागलीं. इतलें सगलें जाता म्हणसर बरोच उशीर जाल्लो. पावस थांबिल्लो आनी लखलखीत वत पडिल्लें. सगलीं जाणां परत त्या व्हड रस्त्या कडेन पावली. थंय पावचे पयलींच तांकां व्हरूंक जीप येवन राविल्लीं. काकान कदमाक आनिकूय कांय सुचोवण्यो केल्यो आनी मेल्ल्या सोरपाक जिपीचे फु डले वटेन दवरपाक सांगलें. भुरग्यांक पळयत ताणीं म्हणलें, ''भुरग्यांनो, चडात वयर. कदम हांव वतां हांच्या सांगाता. हांव दुसरी जीप धाडटां. तुज्या पंगडाचे बाकीचे पुलीस येतकच तांकां घेवन शारांत यो''.

''बरें आसा सायब. हांव येतां सगल्यांक घेवन.''

चवगांय भुरगीं भरभरीत उड्यो मारीत जिपींत चडलीं. आतां पावसाचें नांव लेगीत नाशिल्लें. सरभोंवतणचो वाठार मन भुलयतालो. वताचे उबेन आनी वाऱ्याच्या आंगार येतल्या झोतान चलयांच्या मनावेलो ताण खंयचे खंय नाच जाल्लो.

रातभर भोगिल्ली दगदग आनी ते त्रास हातूंन तांकां साप्प पुरो जाल्लें. येदो वेळ बडबडपी तांचीं तोंडांय आतां बंद जाल्लीं. ल्हवूल्हवू तांचे दोळे धांप्पाक लागलें.

''जाधव जीप मातशी सवकास चलय. चड हालोवन तांची न्हीद खळोवं नाका,'' काकान म्हणलें.

एकामेकांच्या खांद्यार तकल्यो दवरून न्हिदिल्ल्या त्या शूर झांसीच्या राणयांक काका तोखणायेन पळयत रावलो. कोणूच उलय नाशिल्लो. फकत जिपीचो आवाज आयकूंक येतालो. पूण त्या आवाजान भरसून पोरांनी सांगिल्ल्या आपल्या धाडसाचें व्हडपण पडसाद जावन आपल्या कानांनी गाजता अशें काकाक दिसलें. काका त्या भुरग्यांक पळयत ते पडसाद आपल्या कानांनी सांठोवन दवरूंक लागलो.

काकान आपणाकूच म्हणलें ''खरेंच! खरेंच पोरां धाडशी!!





**रानांतली रात** ही एक धाडसान भरिल्ल्या आनी आंगर कांटो हाडपी घडणुकांची काणी. चार चलयो. मीना, स्वाती, यमू आनी शेवंता पातळेश्वराचे पांयभोवडेर आसताना तांकां अचकीत व्हाळा कडेन एक वाग एका कासादोराचेर घुरी घालताना दिसता. भिरांतीन धांवतना तीं एकामेका पसून पयस जातात. मगीर दरोडेखोर मेळप, बांयंत पडून सगली रात थंय काळखांत काडप, खोंपींत रावप, सगल्यांचें मेळप आनी पुलिसां वांगडा घरा परतप अशा घडणुकांनी भरिल्ले काणयेंत गांवगिऱ्या वाठारांतल्यो तशेंच शारांत रावपी चलयो रानांतली रात कशी अणभवतात हाचें सोबीत चित्रण लेखिका **लीलावती भागवत** हांणी केलां.





Rupees Fifty

ISBN 978-81-260-31